किरवंट

(कविता संग्रह)

कवी:

जॅस फेर्नांदीश

प्रकाशन क्र. २९



पयली उजवाडावणी :
एप्रील २००६

उजवाडावपी :

सौ. मिना जॅस फेर्नांदीश

माणीक प्रकाशन,

जॉन्सन व्हिल्ला,

आमोणें, केंपें, गोंय.

४०३७०५

अक्षर जुळणी :

जय हिन्द प्रिंटर्स,

देळें, काणकोण, गोंय.

छापपीं:
शांभवी प्रिंटर्स,
नागेशीं, फोंडें, गोंय

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां :

गौरीश र. वेर्णेकार

मोल : १५०/– रुपया

**Kirvontt**

(Collection of Poems)

Poet :

Jess Fernandes

PUBLICATION NO. 29



First Publication :
April 2006

Publisher :

Smt. Meena Jess Fernandes

Mannik Prakashan

Johnson Villa,

Amona, Quepem - Goa

403705

Typesetting :

Jai Hind Printers,

Delem, Canacona, Goa

Printers :
Shambhavi Printers,
Nageshim, Ponda, Goa

Cover and Pictures :

Gourish R. Vernekar

Price Rs. 150 /-

# ओपणी

हो म्हजो गितांझेलो
म्हज्या काणकोणच्या पाचव्याचार
झाडांक, माडांक, पाळवळेचे रुपेरी रेंवेंक
आनी भांगरान भरलेल्या काळजांक
हांव उपकारान भरून अर्पितां.

जॅस फेर्नांदीश

काळजाचे किरवंटीतल्यान ........

गोंयचे अनेक जागे म्हज्या जिवीताचे भाग कशे म्हाका फावो जाल्यात. पूण, जो जागो काणकोणाचे पाळवळेचे किनारेर म्हाका फावो जाला, तो तर सामकोच वेगळो.

ह्या जाग्यार म्हजें रचण धरून जल्माच्या दिसाच्यान म्हजें सगलें भुरगेपण आनी तरणाटेपण ते रेंवेंच्या कणोरां मदीं आनी माडांच्या सांवळ्या मदीं हांवें सारलें. आनी त्या रेंदेरांच्या गितांनी आनी काळजाक हात घालपी संगीतान म्हज्यांत एक कवी रचलो. आनी जेदना १९७२ वर्सा हो म्हजो जल्माचो गांव सोडून, म्हज्या बापायच्या घरा केपें वचपाची म्हजेर पाळी आयली, तेन्ना म्हज्या काळजाचे दोन भाग जाले. एक म्हज्या वांगडा केपें गेलो आनी एक ते रुपेरी रेंवे आनी त्या सर्गाचे दिकेन वयर चडपी माडां मदीं घुस्पून रावलो. तो थंयचो कसोच हाललोना. हाताकूय गावलो ना.

तेच खातीर आयज मेरेन ह्या गांवांतूच न्हय तर आख्ख्याच काणकोणाच्या तालुक्यांत खंय – ना – खंय म्हज्यो यादी भुरगेपणावयली मस्तेपणां, पिरोपणां आनी तरणाटे – पणावयल्यो जाणवाचो म्हज्या मुखार उदेवपाक लागतात, ज्या वेळार हांव त्या–त्या वाठारांतल्यान म्हजी वाट चलतां.

ह्या मोगाळ लोकान म्हाका सदांच आपलोच म्हणूण मानून घेतला आनी तसोच वागयला. आतां पासून कदनाय हांव काणकोणां येतां तेदना हांव एक बाळ आपले आवयचे उंटयेंत येता तसो उमळशिकेन येतां. आतां पासून हांव म्हज्या केपेंच्या घरांतलो भायर सरून काणकोणां येतां, तेदना हांव घरा वचून येतां म्हणून सांगून येतां. आनी परतून घरा वयतां तेदना केपें वचून येतां म्हणून म्हज्या इश्टांक सांगून वेतां.

खरें म्हणशी जाल्यार म्हजें घर आयज पाळवळें ना. तें आसपाक म्हणून कित्याक जाय ? सगलें पाळवळेंच तर म्हजें घर आनी आख्खेंच काणकोण तर म्हजो गांव जावून रावला.

काणकोणाच्यान भायर सरल्यार तर आयज ३४ वर्सा सोंपलीं. तरीय तो मोग देंवंक ना. चडत गेलो. ते खातीर हे म्हजें पुस्तक हांव म्हज्या जल्म गांवांक, म्हज्या मोगाच्या काणकोणकारांक आनी खेरीतपणी पाळवळेच्या भावां – भयणांक, ते रुपेरी वेळेक ह्या सगळ्या मोगा खातीर तुमच्या फुड्यांत दवरतां.

हें पुस्तक इतले बरे तरेन तयार जाला जाल्यार, ताचो व्हडलो वावराचो वांटो म्हज्या इश्ट सुनील पालकाराचो, ताणें म्हजे बरपावळींत म्हाका भरपूर सुचवण्यो केल्यो आनी आपलो मोलादीक वेळ दिलो.

म्हज्या मोगाच्या इश्टान, बाब कमलाकर म्हाळशीन ह्या पुस्तकांत फक्त दोन उतरांच बरोवंक नात. म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो केल्यात आनी हें पुस्तक, प्रूफ रिडींग करून, तयार करपाची जापसालदारकी आपल्या भुजांचेर घेतली. पणसुल्यांतल्या बाब गौरीश वेर्णेकारान मुखावेलें चित्र काडला जाल्यार ताच्या भावान श्री. धर्मेश र. वेर्णेकार आपल्या स्टुडियोंत म्हजो फोटो काडला. हाणें आपल्या छापखान्यात म्हजें पुस्तक सुंदरतायेन तयार केलां. पैंगीणच्या बाब अनंत अग्नीन म्हजी वळख फाटल्या पानार दिल्या. म्हजो बाळ – मित्र पाळवळेचो – बाब मार्टीन मिनीन फेर्नांदीश हाणें म्हज्या पुस्तकाचेर दोन उतरां उलयतलो म्हणपाचें कबूल केलां. म्हज्या काळजाचो इश्ट शेळेरांतलो गिल्हेर्म मार्तीसान, ताचे घरकान्नीन आनी भुरग्यांनी म्हाका भाव कसो सदांच मांदून घेतलां आनी तांचें घर आयज म्हजें काणकोणचें ठिकाण जालां. म्हजे घरकान्नीक मिनाक तेगूय पुतांक, जॉस्तन, ब्रायन आनी ब्रदर लॉयडीक, तांच्या मोगा आनी सोंसनीकाये खातीर सोबेमाजार उपकार मांदतां.

तशेंच काणकोण लायन्स क्लबाच्या पदाधीकाऱ्यांचो आनी वांगडयांचो हांव काळजांत
न आभारी. ताणी ह्या म्हज्या जल्म गांवांत म्हजो भौमान केलो आनी आयज ह्या तांच्या
दिसाक, हें म्हजें पुस्तक उजवाडावपाच्याय एका सुवाळ्यांत सुवाळो घडोवन हाडलो.
सगळ्या काणकोणकारांनी हातभार लायलले घरगुतीचें दायज ही किरवंट आपले किर्वंटीक
ली आनी म्हाका सदांकाळचो तुमच्या काळजांचो रिणकारी केलो. हे खातीर म्हज्या
जांत थावन तुमकां सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणटां :

देवा ह्या जिवीता खातीर हांव तुजो उपकारी
आनी त्याच जिवीता खातीर
काणकोणकारांचो रिणकारी
प्रत्येकाक कांतोवून दवरतां
ह्या काळजाचे पाट्येरी
उडटां अंत्रळांत लावून तुमच्या
मोगा पाकटे दोनूय म्हज्या भुजांरी

जॅस फेर्नांदीश

# जेसाची गिरेस्त किरवंट

लोककलाकार तियात्रिश्त ते लोकमनांचो कवी जेस आनी दर्यावेळेवयलो पाळवळका ते कार्यालयीन अधिकारी जेस फेर्नांडीस हाची साहित्यीक आनी प्रशासकी कारकीर्द खब नाशिल्लो गोंयकार मेळपाक कुस्तार ! कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतीच्या मळावयल कार्यकर्तो जेसबाब तर सगल्यांचेच संवकळीचो; जाल्यारूय खेरीत आयटाचो, खेरीत साऊदीच आनी खेरीत उतरांबोलांचो. दिसपाक वयलेवयर कॉमिक कसो, पूण काळजाची खराय खोल दर्याची, गर्भकुडीची व्हांवती नितळ, शितळ झरांवाची आनी तकलेची अस्वस्थताय सैरभैर कवीची!

देखुनूच, साहित्यांत विशेश करून कविताक्षेत्रांत स्वताची खाशेली पांयवाट निर्मिल्ल्य जेसाची गिरेस्त किरवंट नियाळट्ना म्हाका स्वताक कसलेंच अजाप दिसलें ना ! कित्याव तर १९९४ ते २००६ ह्या काळांत जेस आपलेआपूण आपली गिरेस्त किरवंट सांसपितालो तातुंतलीं पोवनां, माणकां, मोतयां, हिरे बारीकसाणेन नियाळटालो आनी घसघशीत वस्ती आंग पांगांर चडोवन चारचौगांत येवपाची वाट पळयतालो, खात्रीन !

कोणाक सांगूं काणी हांव
एकमुळ्या ह्या काळजाची ?

अशें विचारीत येवपी जेस दर दिसाच्या दर एका खिणाक कांय मोडां माड्‌यत वयता आन ताचो गिन्यानाचो सुर्या जिवीताक उजवाडान न्हाणयता .

तुवें आमचीं सगलीं सपनां
कोळवाच्या उंचल्या शिवड्यांनी झेल्लीं

म्हणपी रेंदेरांचो कवी जेस मोगाचीं, प्रीतीचींय खेरीत सपनां जियेतना केन्ना दिश्टी पडट जाल्यार

मनीसपणूच जाला हांगा
मनशांवांगडा आजारी
दोमडेखातीर भाव जातात
एकमेकाचे शेजारी

अशे रितीन अस्वस्थ जाल्लो जेस पुराय कवितासंग्रहांत मदींमदीं दिश्टी पडटा.

जेसामदलें सामाजिकपण, देशप्रेम लेगीत कवितेच्या रुपान झळकताच. जेस कोण कळपाक ताच्यो किरवंट, हांव कोण आनी म्हज्या श्रीकृष्णा ह्यो कविता मुजरत वाचपाकूच जाय.

खरें म्हणल्यार जेसबाबाच्या जिवीताच्या पुस्तकाचें पान आनी पान वाचप्याक किरवं उस्तावन दाखयता, फुडलें पान वाचपाक लायता आनी आपलेवांगडा समेस्तांक हांव कोण विचारपाक लायत तांका तांचीय किरवंट उस्तुवपाक लायता.

खरे कवितेचें वर्म आनी मर्म जेसबाबाची किरवंट उतरांबोलांनी तालसुरांत सांगत म्हणल्यार अतिताय जावंची न्हय !

ॐ श्री दत्त,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

५ एप्रील २००६

कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

# मांडावळ

---

जॅस फेर्नांदीश हांचीं फुडलीं पुस्तकां

रेंदेर (कादंबरी)– देवनागरी आनी रोमी

किरवंट (कविता संग्रह) –रोमी

काळीज कमळां (धर्मीक काणयो) – देवनागरी

फुडाराक तूं कोण ? (भुरग्यांखातीर) – देवनागरी

## १. वृंदावन

जाग्रुत रावन फांतोड पळय
सूर्य राया येता
दोळे भरून जग पळय
काळ जीण चोरता

घामाच्या शिपण्यान शेतांत
कणान कण पिकता
कश्टांचें मोल थंय
वाऱ्या वांगडा धोलता

काळजाच्या उकत्यांच दोळ्यांक
निसर्ग धन दिसता
मनाच्या वृंदावनात
ईश्वर प्रीत फुलता

वडाच्या पाळां झेलीर
मन एक झेलता
दसणेच्या झाडार बसून
शेवणें एक गायता .

## २. ध्वनी

कोणाक सांगूं काणी हांव
एकमुळ्या ह्या काळजाची
काणयेंत आसा जायती प्रजा
राणी सांडल्या राजाची ॥धृ॥

मंत्री आसा संत्री आसा
न्याय आसा नीत आसा
खंय पडली कळना जाल्या
मुदी ताच्या बोटाची ॥१॥

रीत आसा रिवाज आसा
वेस आसा भेस आसा
कळना खोट सुटली कशी
नव्याच ताच्या बुटाची ॥२॥

सुकती आसा भरती आसा
सुकां आसा दुकांय आसा
खंय तरी पडली खरी
नथ तिच्या नाकाची ॥३॥

नृत्य आसा नाच आसा
पायजणांचो साज आसा
मोनी कशी जाली ध्वनी
हातांतल्या त्या कांकणांची ॥४॥

## ३. म्हज्या भितरलो

तुका इल्लो वेळ आसा?
नासल्यार वेळ काड्चोच पडटलो
म्हजेर एकूच उपकार कर
फकत एक पावट एक उपकार
एक आर्म आनी त्या
आर्मांत घालूंक मिठाची गुळी दी
कित्याक जाणां ?
म्हज्या भितरल्या फटींगाक
मिठाच्या फारान मारपाचो आसा

हांव खात्रीन सांगतां
म्हज्यांतल्या फटींगाक मारतकच
म्हज्या भितर नंदत आशिल्ली
भ्रश्टाचाराची शिमरी सावळी
वाऱ्यान रूख
मुळासकट हुमटोन जमनीर पडचो
तशी शीळेवरी जमनीर पडटली
मागीर म्हाका जाय तसो
मेकळो उस्वास घेवंक
स्वातंत्र्य मेळटलें

म्हजे खातीर आनीक इल्लो
म्हत्वाचो वेळ दी
तूं ना म्हणचोना हाचो म्हाका
पुराय भरवंसो आसा
हो वेळ कित्याक जाणां ?
म्हज्या काळजांत कुशिल्ल्या
काळंगाच्यो बियो किल्लचे आदींच
कांळीज झाडपाचें आसा
कसलोय अजापांचो जादू
तुजेकडेन आसा जाल्यार

येतना घेवन यो
हांव देवाचो सोपून घेवन सांगतां
म्हजें काळीज निवळ जातकच
दुश्ट प्रवृत्तींचीं पाळां
आपशींच करपून वतलीं
आनी जमताच जाल्यार
आनीक इल्लो वेळांतलो वेळ दिवन
सासणाचो उपकार कर

म्हजीं अदृश्टां मेजपाचीं आसात
नाकटी, पोड वा पायलेन
तीं मेंजूक जावपाचीं ना
तीं मेजपाक कसलें तरी
आतवेंच माप लागतलें
तें तूं घेवन यो
हांव आत्मविस्वासान सांगतां
हीं अदृश्टां मेजून जातकच
दुसरीं कसलींच अदृश्टां म्हाका
आफडूंक लेगीत येवपाचीं नात.

## ४. असर

मनीसपणाचे खून करतल्या
निर्जन झुजामळार
केल्ल्यो म्हजे जिणेच्यो तिसत्यान तिसत्यो
खिळायल्यो जायते पावट
अपमानाच्यां खिळ्यांनी
उणाकपणाच्या खुरसाक आनी
व्हांवयली म्हज्या पवित्र
तांबड्या रगताची गंगा

एकूय पावट म्हाका
मरण आयलें ना
हें काळीज म्हजें हांवें
म्हज्या  जीवा सकट
समर्पण केलां
ह्या जिवीताच्या पुर्साक
तेन्ना रावन
तोच जियेता म्हज्यांत
प्रत्येक खिणाक

तशीं मोडांय जायतीं भिगलीं
दर दिसाच्या दर एका खिणाक
कांय मोडां माड्ड्यत गेलीं
कांय काळीज बुड्डीत गेलीं
घडये आतां तीं मोडांय
निर्शेल्या जावंये, कारण
तांच्या प्रयत्नांचो म्हजेर
कसलोच असर जायना.

## ५. तो कोण ?

म्हज्या सुपुल्ल्याच निरामय दोळ्यांक
इतलो अथांग संवसार दाखोवपी
तो कितलो व्हड काय ?

म्हज्या मनाक आपलें घर मानून
म्हज्यांत आपली वस्ती करी सारको
हांव कोण काय ?

ह्या आखख्याच विश्र्वाचे चित्र
म्हजे कल्पनेचे फास्केंत घालपाक
कल्पना म्हळ्यार कसलें निरामय विश्र्व काय ?

हांव ताच्या म्हाऱ्यांत वयतां तेन्ना
ताच्या स्वरुपांत भरसून वचपाचें
म्हाका भाग्य मेळत काय ?

ताचें तेजगर्भित निराकार रूप
म्हाका पळोवपाचें आसा
थंय तो म्हाका व्हरत काय ?

## ६. अज्रंवर

सोबीतकायेचो अंत नाशिल्ल्या अनंतान
आपल्या कलावंत हातांनी
सुंदरेच्या पाटाचेर
मनीसपणाची मनीस फळां
हिकमतीच्या कला कौशल्यान
कांतोवन अज्रंवर केल्यात
ताची तुस्त तोखणाय करूंक
म्हज्या शब्दकोशांतले
शब्द लेगीत अुरे पडटात

त्या मोगाळ मायेस्त आदि पुरसान
आमच्या निर्मळ भावनांनी
मोग आनी मोयपास शिपलो
तेन्ना सावन आमकां
अमर मोगाची ताकद
आनी तातुंतलें म्हत्व समजलें
ताचें मोल करूंक
म्हज्या आंकड्यांचे तिजोरेतले
आंकडे लेगीत कमी पडटात

आमच्या आदि पुरसान
आमकां आपल्या भरवंशाचे दूत केले
पूण आमी मात जायते पावट
ताच्या भरवंशाचेर अविस्वासाचे कुराडेन
घाय घालीत रावले
कांय जाण त्या घायांचेर
मीट चोळीत रावले
तरी पूण ताणें आमकां क्षमा केली
आमकां आपलेपणाच्या पावसान न्हाणयले
ताच्या मोगाचीं गुपितां
जाणून घेवपा खातीर
आमच्या दोळ्यांतले
समदीर लेगीत कमी पडले

## ७. नड

मोडकुऱ्या वाशां वाशटांचे
आनी चुट्टानीं धांपिल्ले कोलवाचे खोपींत
आपलें सुरकुत्यो पडलेलें आंग चोरीत
आतां एका कोनशाक तो
आपले कुडीची
गुटली करून बसता
येवजीत जोतांच्या भांगर बैलांचे दीस

कोंब्या सादार उठून
उजवाडटे फांतोडेच्यान
दनपारच्या वता कडाचेर
तो दीसभर करपतालो
पडट्या पावसाच्या हुंवारांत
शेताचे कुणगेन कुणगेंतल्या चिकलांत
आंग – आंग भिजतालो
शियांच्यां ल्हारांनी
शेणकुटा वरी आकुळटालो

कश्टांचेर कश्ट दाळून
आपल्या खातीर एक
वेगळो संवसार घडयल्लो
तेन्ना लक्ष्मीनूय ताका हात दिल्लो
वंश जाले, वंश वाडले
कूळ जालें, कुळां जालीं
कुळाचीं मुळां जालीं
आयज मेरेन कश्टल्ल्या
कश्टांचीं फुलां जालीं
अशें ताका तेन्ना दिशिल्लें

करूंक जाय तें सगलें केलें
हाडूंक जाय तें सगलें हाड्लें
दिवंक जाय तें सगलें दिलें
घडोंवंक जाय तें घडयलें
पूण एक चुकयलें
बंगलो बांदूक विसरलो

शिकलेल्यांनी बंगले बांदले
पूण तो मात वंशांक आपल्यां
रातीचो दीस करून
दिसाची रात करून
शिकयत रावलो –शिकयत रावलो
शिकून ते व्हड जातकच
आपले आपूण उडूंक लागले
जळींमळीं भोवंक लागले
खोपटेंतले भायर सरतकच
परतीची वाट विसरूंक लागले
खोपटेच्या भायरूच रावन
आपलो संवसार घडोवंक लागले

आतां तो अशक्त जाला
दोळ्यांतलें तेजूय गेला
ताका फकत बंगलो वडला
बंगल्यानूच ताका निराधार केला
गुटली करून बसून तो आतां
कोनशान कोनसो सांसपिता
उरिल्लें सुरिल्लें कितेंय
हाताक मेळटा जाल्यार पळयता.

## ८. मतां आनी कुतां

पुर्वजांच्या मता प्रमाण
काजारी पूत खंय शेजारी
आयज आमच्या मता प्रमाण
बस पागारी आवय बापूय
आपल्याच घरांत भिकारी

अशक्त जाल्लो आवय बापूय
सगल्या कुतांचो आनी
सगल्यांच्या खोटांचो शिकारी
खरेंच चलता काय
फाटलें जोत गेल्लें तशें मुखारी

पुताचो संवसार चलोवचे खातीर
घरांत हाडली सुंदरी
त्या दिसाच्यान आवय बापायची
घरा भायर मांदूरी

पुस्तकां वाचून वाचून
मनाक जायतें शिकयलें
शिकून शिकून जड जालो
तेन्ना नातवाकडे सोपयलें.

## ९. इतिहासकार

आमी नीजाचे इतिहासकार
निकटे इतिहास वाचपी न्हय
इतिहास घडोवपी रणझुजारी
आवयची राखण करपी पुजारी
म्हणूनच सदा सर्वकाळ
वंदे मातरम्

आमचीं पावलां घट्ट भुयेंत
आनी पावलां तिच्या गर्भांत
न्हाणयला आमी रगत न्हाण
तिचेर घुरी घालतले भुताटकेचें
आनी शेवटून मारला सगलें पजड
आमी मोकून मारले पोजड्यांक
शिमे भायर पूण
आतां तिच्याच रैताचीं वाहनां
वचपाक लागल्यात पोजडांतल्यान
आमच्या मुखार प्रश्नचिन्न
आतां कोणाक म्होकून मारचे ?

कितेंय करून परत
इतिहास घडोवचोच पडटलो
पोजड्यांचीं पाळांमुळां
खणून काडचींच पडटलीं
नातर भावपणाच्या रोपांक
किल्लतनाच बादा जातली.

## १०. सोडेतीन हात

उजवाडाच्या पेडा पोंदाक
काळकाचें पेणें आसता
गिन्यानाच्या सुर्याकूय केन्नाय
गिराणाच्यो वेदना बादतात
आनी कश्टांचो घाम
व्हांवत्या लोटा वांगडा
अचळय  व्हांवन वता
व्हांवन गेलो म्हूण निर्शेलों ना

रातींच्यो राती शिंयान कुडकुडलो
तानेन ताळो सुकलो तेन्ना
दवाचे थेंबे पियेलों
खणत रावलों पडिंग सुवात
कश्टांचें फळ मेळ मेरेन

आतां जेन्नां कोणाच्याय
कानार पडटात म्हज्या
जैताच्या गीताचे स्वर
तेन्ना तेवूय खोयतात मुंजीक
आपले काश्टेचें पोंत

हातांत घेवन कुदळ पावडो
भायर सरतात घाम गळोवंक
खणूंक पडिंग जमनी
कांय जाणांनी मळांचीं मळां खणलीं
तर कांय जाणांनी
साडेतीनूच हात.

## ११. उजो

आमच्याच भितरल्या उज्यान
जेन्ना आमचेंच रान पेटयलें
तेन्ना लहारेत लहारेत लेवें – लेवेंतल्यान
जिविताक आयलें नवें बळगें
उसवासांतल्यान लेगीत
भायर सरपाक लागले वाऱ्याचे लोट
पेटलेल्यो जळवाच्यो कापच्यो
आत्मविस्वासान उलयताल्यो
धगधगत्या इंगळ्यांतल्यान
कथन करताल्यो
आपले जिणेच्यो भितोडेच्यो व्यथा
मनीसपणांक अन्यायान दिल्लो
एक नेटाचो धपको
तेन्ना रागाच्या भरान
उज्याच्यो जिबो लेगीत उलयल्यो किटींनी
उज्यानूच दाखोवपाक सुरवात केली
आपल्या बळाची करामत
आनी आपलीं साबार रुपां
कांय उजे लासतात
अन्यायाचीं पाळां मुळां
कांय उजे लासतात
मनीस जीवितभर सपनेल्लीं सपनां
कांय उजे हुलपयतात चिंतनांचीं
व्हडलीं अटंगीं रानां
तशे उजे म्होवाळय आसतात
कांय उजे हुनसाण नासलेले
कांय उजे दोळ्यांतले नदरेंतले
कांय तुजे नदरेंतले
कांय म्हजे नदरेंतले
कांय आमचे भितर
आमकांच बादलेले
कांय इतिहासाच्या विश्र्वांत
आमकां भोंवडावंक व्हरतले
दुसरे इतिहासाचीं पानांच गिळटात तसले
कांय रणांचेर सदांकाळ
पेटत रावतात तसले
तर कांय उजे
रणां भायल्यांकूय बादलेले
उजे वेगवेगळ्या भावनांचे
उजे अज्ञान्यांक लासपाचे
सज्ञान्यांक तारपाचे
निमणें सरणा सकट जळोवपाचे.

## १२. काळजांतलो गुलाब

म्हज्या काळजांतलो गुलाब
कोणें तरी तोडलो आनी
म्हजे अस्वडीं लिपचोरयां
आपल्या काळजाक खोयलो

म्हाका कातकुतल्यो जाल्यो
मन भितरल्यान हांसलें
ताकाय जाल्यो आसतल्यो
तें हयन्हयशें लजलें

गुलाब काळजाच्या आकाराचो
ताच्या पोल्यावेले लालयेच्या रंगाचो
जीवनांतल्या अमृत रसाचो
निसर्गातल्या अमर परमळाचो

ह्या काळजाच्या देंठाक
आजूनय उगडास आसा
आनी त्या रित्या जाग्यार
तुटलेल्या गुलाबाच्यो यादी आसात

गुलाब आजुनूय फुललेलोच आसा
आजुनूय परमळ दियत उपासा
त्या परमळाक अर्पण केल्लो
जीव आजुनूय जितो आसा.

## १३. बापूय

हें पळय बापूय तो म्हजो
गुरूय तो म्हजो
अवतार ह्या संवंरांत परमेश्र्वराचो
आनी हांव
हांव वारस ताचो

ताचो सभाव जसो
लोखणाचो वारांव कसो
केन्नाच वांकडें जायनाशिल्लो
आनी वांकडें सोसनाशिल्लो
केन्नाय तापलो जाल्यार
दाग लागलोच म्हुणून समजुचो

केन्नाय मायेन तो
ओडटा म्हाका आपले खांकेत
तेन्ना उफाळून येतात
आनंदाचे भरतेते लोट आनी
आसा हांव ताचे खाकेंत
कितलो तरी वेळ
मायेचो पावस शिंपत रावता आनी
हांव न्हावत रावतां तितलोय वेळ

कितले कश्ट ताचे
कितले म्हूण उपास तपास
हिशोब करूंक जायना
कितली व्हड जाणविकाय
कितलो व्हड रूख
नदर लेगीत पावना
एकाच उतराचो मनीस
दिल्लें उतर पाळपी

ताच्या ओंठांतल्यान कोणाचीच
चाडी वा गाळी भायर पडना
हातांत आशिल्ली काडी लेगीत साणना
स्वार्थाक आनी हिंसेक
ताच्या जीवितांत सुवातूच ना

फुटून ताचो पिटो लेगीत जाल्यार
सत्त्याक सोडीनाशिल्लो शाश्र्वत
अविनाश वंश कुळाचो
बापूय तो म्हजो
गुरु तो म्हजो.

## १४. काळोक पेटला

आयज काळोक पेटला
एक व्हड आगटें जावन
सरपंटा वरी सरपटत सुटला
त्या आगट्या भितर
जळून लासून वतात सगले
सुक्या वांगडा ओलेय लासतात
रसरसतात, कडटात
ओल्या वांगडा लोखंड लेगीत

तरी पूण हो जीव म्हजो
विश्र्वाचे दोंगुल्ले पलतडच्या
सुर्याचे यादींत गुस्पला
त्या सुर्याच्या उजवाडांतल्या
म्हज्याच रात चंद्राक
तिश्टत रावला निसर्गाचे शिमेर

तुज्या परतवांच्यां पावलां खातीर
राकून दवरलेलो वेळ
आजुनूय म्हज्या
सहनशक्तीच्या पेटूलांत सुगूर आसा
म्हजी सहनशक्ती सोपली
अशें मात समजूं नाका

लासता तें लासून वचूं
नश्टें भश्टें सोपून वचूं
इंगळे जावं नांतर गोबर
दिपळे जावं नातर माती
हांव उबो आसतलों शिमेर
हातांत जीवित जैताची गुडी घेवन
तूं परत म्हज्यांत येयसर .

## १५. काळजा मेरेन

जायत्या वर्सांनी म्हज्या मनाक
अवचित पाझर फुट्लो
पाझर इतलो फुटलो की
चोंयवशीन झरेच झरे जाले
त्या व्हांवत्या झऱ्यांतल्यान
जीणेचे साबार रंग
व्हांवतना दिसपाक लागले

वसंत रुतूंतलो वसंत
खदखदून हांसता पळय
अशें हांवें म्हणिल्लें
वायंगणाचें तांब वाऱ्या वांगडा
वसुंधरेचे वेंगेंत धोलता पळय
म्हजो हात हातांत घेवन
तुवें म्हणिल्लें

त्या वसंताच्या हांशाचें पिशें
मनांतल्या कीराक
आजुनूय हाडटात जाग
काळजांतल्या शेतांत
कुणगेन कुणगेंत वाऱ्या वांगडा
मनसोक्त धोलतात
वायंगणाचें तांब

आयज मामाल्या कुळागरांत
भितर सरतनाच नदरे मुखार
उबी रावली एक
तरणे पिरायेची सोबीत आकृती
एक अलंकारीक सोबित [illegible]
कांय यादींच्यो करतो
आजूनय आसात थंयसर

थंयच्या व्हांवत्या व्हाळांत
एकली उमळटाली प्राचवी साडी
फाटीर पिंदलेल्या ब्लावजांतल्यान
दिसताली गोरी गोमटी कात

सांगताली तिची वळख
कांय वेळ हांव व्हांवन गेलों
कांय वेळ हांव धांवन गेलों
त्या व्हांवत्या व्हाळांतल्यान
सारको पायां कुशीच्यान
तिच्या काळजा मेरेन.

## १६. खडपावेलीं उतरां

तूं पुनवेचे रातीं येवन
अमवाशेचे रातीं गेलें
दोळ्यां मुखार चलचित्र
येवन वच्चें तशें
वतना म्हज्या पायां पोंदची
मातीय हालोवन गेलें

आतां वाटेर मेळटात आमी
केन्ना केन्नाय
गालांतल्या गालांत हांसता
मनांतल्या मनांत रडटा
मागीर घरा वयतना
दोळे चोळीत वयता
आतां आमी हेंच करपाचें
केन्नाय रकाद धाड्पाचे
केन्नाय रकाद न्हंयकारपाचे
आतां हें अशेंच चलपाचें

आमचीं सगलींच सपनां
काळाच्या पडड्या आड वतलीं
हाचें केन्ना सपन लेगीत
आमकां पडूंक नाशिल्लें
एक ल्हार आयलें आनी
वेळेचेर बांदलेलें मातयेचें घर
भुंयसपाट करून गेलें
सगलें अवचीत घडलें
विचारूच करूंक फुर्सत मेळ्ळी ना

आजूनय वयता हांव
दर्या देगेर भरते वेळार
आनी एकलोच बसतां
त्या आमच्या जाग्यार
त्या काळजाच्या खडपाक
आपटून वयतात कितलींशींच ल्हारां
तरी पूण तांचेकडेन पुसूंक जालीं ना
आमी खडपाचेर कांतयल्लीं उतरां.

## १७. सुर्या उदेता

काळोख रतीक विसरपाक
मनांतलो काळोख उस्पुचो पडटा
तेन्नाच गिन्यानाचो सुर्या
जिवीताक उजवाडान न्हाणयता

काळखे रातीक विसरूंक
दोळे गच्च दांपून बसलों
देखूनच उदेंत्या नव्या दिसाचें
दर्शन घेवपाक चुकलों

प्रत्येक दिसा सुर्या उदेता
मंदशा वाऱ्याकूय घेवन येता
केन्नाय कुपच्यां झिलींतल्यान घुसता
तर केन्नाय सांजवेळार
वाऱ्याच्या आदारान सुको पोत्रो
पाटले लेगीत चलतात.

## १८. सिंवासन

तुजें सिंवासन उंच आसा म्हूण
तुका सोदपा खातीर
संवसारांतल्या सगल्या उंच व्हडल्या
दोंगरांच्यो तेंगशो चडलों
हिमालयाचे लेगीत तेंगशेर पावलों
थंयसर जप तप करतल्या
रुशी तपस्वींकडेन वासपूस केली
पूण तुज्या सिंवासनाची
खंयसरूच सुलूस लागली ना

कोणें तरी सांगलें
तें सिंवासन पाताळांत आसा
पाताळाच्या खोल गर्भांत आसा
हांवें पाताळांत प्रवेश केलो
थंयचो कोनशान कोनसो
सांसपून पळय
मेळत ताचेकडेन वासपूस केली
खरें सांगपाचें म्हळ्यार
थंयच्या जिवांक
सिंवासन कितें म्हणटात तें खबरूच ना
हांव हात हालयत परतलों

कोणें तरी सांगलें
आतां समदिराचे वाटेन वच
समदिराच्या खोल पोटांत
भांगर शिंगर आनी हिरे माणकांनी
सजयल्लें सिंवासन आसा
व्हड उमळशीकेन हांव देवलों
समदिराच्या थळाक
सोदून सोदून खदळ केलें
आक्कें समदिरांचें थळ
सगल्या जातींच्यां नुसत्यांकडेन
वासपूस केली तेन्ना
तीं हांसलीं म्हज्या पीशेपणांक

मागीर मेळ्ळी एक कुल्ली
कुल्लेन सांगलें ,
सिंवासन जर दर्यांत आसलें तर
म्हाका सगल्यांत पयलें दिसतलें आसलें
भोंवतां भोंवतां मेळ्ळो
नुस्त्याचो राजा विस्वण
ताणें म्हळें,
हांगा  जर सिंवासन आसलें जाल्यार
हांव ताची पुजा करपांत
सामको मग्न आसपाचों
हांगा तसलें कांयच ना
आसा तीं उंच व्हडलीं खडपां

मागीर सुर्याक विनंती
करपा खातीर हांवें
म्हजे दोनूय हात जोडले
सुर्याच म्हाज्या सर्वांगांत भितर सरलो
आनी म्हाका म्हज्या
मनाच्या मंदिरांत घेवन गेलो
आनी दाखयलें तें झगमगीत
अवर्णनीय सिंवासन

# १९. सुर्याचे पूत

सुर्याचे पूत आमी
उजवाडाचे पुजारी
संवसाराचें दायज आनी
मनीस कुळा आदारी ।।धृ।।

उंच व्हड पर्वत आमी
न्हंयो आमच्या शिरानी
रगत आमचें धांवता नेटान
चोंयवशीनच्यां दिकांनी
तरसाद आमच्या कमराक
शांती आसा मनांनी ।।१।।

झुजाचेय गडे आमी
वीजय आमच्या हातानी
रैताचें चैतन्य राया
स्फूर्त भरल्या काळजांनी
जोगलां वरी चमकता
फोलेर आमच्या दोळ्यांनी ।।२।।

भुंयचे हे चिरे खरे
आसन आमचें मठ्यांनी
बुन्यादीचे बुकायेक
एकचार आमच्या मनांनी
पाळां मुळां धर्तरेंत
नदर उंच कळसानी ।।३।।

## २०. रेंदराचे स्वर

रेंदेर म्हज्या भावा,
तुज्या कश्टी पावलांनी माखलेल्या खांपांवेल्यान
तुवें आमचीं सगलीं सपनां
कोळवाच्या उंचल्या शिवड्यांनी झेललीं
पूण म्हज्या जिवीताच्या माडाक मात
तुज्या कश्टांचीं खापां पडलीं
काळजाच्यां घायांचेर
दिसाचीं चोवीसूय वरां
रक्षेत रावलीं आनी
तुज्या घामाचे थेंबे त्यां
घायांचेर पडून घाय हुलपत रावले

तुज्या गीतांक तुवें
सैम स्वर दिले आनी
आमच्या दिसवड्याचे थकवे
निसर्गांत हुबयले

तुज्या गीतांतल्या गर्भ सुरांनी
कश्टांची गर्जना
म्हज्या कानांत ओतयली
साहित्याच्या पोरसानी
फुलांच फुलां फुललीं

सैम गितांनी तुका वांगड दिलो
पावस आंगार खेळलो
सुर्या रायाक पचयलो
तुज्या दर्द स्वरांतल्यान
आमकांय जगपाचो मार्ग
सोपेपणान सापडलो

तुज्या कश्टांनीच म्हाका सांगात दिलो
दर एका श्रमाचो दीस तुजो
श्रमाच्या संवसाराचो
इतिहास तूं घड्यत गेलो
तुज्या उमाळ्यांचीं नखेत्रां

अमास राती पेट्यत रावलीं
आनी ओंटांतल्यां उतरांचीं
निसर्गांत थिकां जालीं

मुळाचोच कवी तूं गा
कुळाचो नावी तूं गा
धन्य धन्य रेंदेरबाब
ग्रंथवासी पुरुश तूं गा

दर एका गिताचे स्वर तुज्या
काळजांत म्हज्या वाजत आसात
माडार रावन केल्लें भाकीत
दोळ्यां मुखार घडत आसा

ज्या खिणांक तूं
माडावेल्यान निसरलो
त्या खिणांक
जमनीचेर पडचे आदीं
म्हज्या काळजाचेर शेवटलो
ते दीसा तूं एकलोच गेलो ना
हावेंय तुका वांगड दिलो .

# २१. सपन

तुजे  वेंगेंतल्या सपनान म्हाका
कालच्या काळाची गजाल सांगली
याद जालो तो अविस्मरणीय खीण
आनी त्या खिणाचे यादीन
सोदीत भोंवतां हांव
शेणिल्ले अवस्थेंतली जीण

कशे तरी सारतां दीस
आनी घालयतां हुसक्या राती
कोण तरी वांगड दिता
तळमळत रातीवेळार
लागतकच दोळ्यांक पाती

तुज्यां निरामय भावार्थी दोळ्यानी
हावें मळबांतलें
एकान एक नखेत्र पळयल्लें
आनी त्या नखेत्रांचे झुंबर
आमचे कुडींत लांबयलें.

काल सांज वेळार
तुजेच सारकें दिसतल्या
तुजेच चालीन चलतल्या
एकल्याक पळोवन
तुजी याद येवन गेली
वतना मोन्यांनी गेली ना
म्हाका सारकी झोड्पून गेली.

## २२. क्रिर्णां

चिंतनाचे म्हजे रांद्नीचेर
भावना म्हज्यो भगभगतात
जिविताच्या आयदनांत
मोग तुजो खतखतता

काळजाचे बागेंत म्हजे
यादींचीं झोपां जाल्यांत
दर एके फांदयेक पळय
बेनुल्लेन बांदून घाला

नदरेच्यो देगो आतां
भरवंशान व्यापल्यात
काळजाच्या हुमऱ्या मेरेर
साद तुजो [illegible]

पिशें कशें मन म्हजें
ओगीच पळय नाचता
मदयानीच्या राती वेळार
हांगा कोण येता

मन मोरा नाच रे नाच
फुलोवन तुजीं पिसां
येतल्या वतल्या दिसा

## २३. बुचकळी

म्हाळा धुखल्लें तुवें
तुज्या काळजाच्या तळ्यांत
तेन्नाच्यान बुचकाळत आसां
पुर्स भर उदकांत

तळ्याचो तळ सोदतां सोदतां
एकार एक नवी बुचकळी
पेंवन तडीक येतलें म्हळ्यार
आड्खळीच आड्खळी
थंड शितळ ल्हानशे होड्येक
दुसरी दिकाच मेळना

दिकाहीन म्हजे होड्येचें
शिडूय आतां फुलना
दंवा धुक्यान ओलशें जालल्यान
सुकयतले जाल्यार सूर्या ना.

## २४. येवजणों

आमच्यो येवजणों करपल्यो
कांय बावड्यो अर्द मेल्यो
थोड्ये येवजणों येवजतनाच
नाक मुंगरुन रावल्यो

जेन्ना तुका कोणें तरी
एकल्यान सांगलें
म्हजे दोळे धांपचे आदीं
हांव तुका पळोवंक सोदतां

अजाणपणान तुवें म्हळें ,
कोण तो मनीस वळख करूंक
हांव ताका वळखना
मेळत ताची वळख करूंक
मन म्हजें तयार ना

म्हाका हें कळ्ळें तेन्ना
काळीज म्हजें फुटून गेलें
व्हांवक लागलें दोळ्यांतलें
थांबयल्यारूय थांबना जालें

कोगूळ सादयता आतांय तसोच
साद थंयसर पावना
साद घालप सभाव ताचो
तातूत कसलेंच अजाप ना.

## २५. चित्र

म्हाका खाशेलो भाव ना
देखून जायते पावट ताचो
पुतळो तयार करतां पूण
पुतळो तयार जावचे पयलींच
ताचेर निमाणो हात भोंवडावच्या वेळार
पुतळोच कोसळटा
तेन्ना सावन हांवें
पुतळ्यांची कल्पनाच करपाचें
कामूच सोडून दिला

आतां हांव कागदाचेर
चित्र रंगयतां
पयर भावाचें चित्र काड्टना
एके भयणीचें तातूंत दिसलें
रंग ताका भरतना
आपले दोळे वाटारून
म्हाकाच तें पळ्यत रावलें
उडून एक शेवणें आयलें आनी
त्या चित्राचेर भिरकटावन गेलें

एका नांवाजत्या मनशाची
पाशाणाची म्हूर्त करपाची
म्हाका संद आयली
पाशाणाक कातयतां कातयतां
ताका रूप आयलें
एका मंत्र्याचे आवयचें
चुकून हातांतली हातोडी
तिच्या नाकाचेर बसली
तेन्नाच ती म्हजेर
सामकी माडभर उसळ्ळी
रागान तांबडीच जाली
म्हाका मारपा खातीर हातूय उबारलो
मागीर हळूहळू म्हाका तें
एक बुजगावणें कशें
दिसपाक लागलें

हातांतलीं हातयारां सकल दवरून
आतां हांव चितूंक बसलां
खरें म्हळ्यार म्हजो म्हाकाय आतां
भंयसो दिसपाक लागला
म्हज्याच मरणाचोय एक
सोबीत पुतळो करपाचो आसा
आनी भावाचोय पुतळो करपाचो आसा
हे दोनूय पुतळे करचे पयलींच
हांव मरचोंना मूं?

## २६. स्वातंत्र्याचो स्वर

एका झिळमिळट्या सांज वेळार
दार म्हजें वाजयलें
तूंच आसतलें अशें समजून
उमळशिकेन उगडिलें
तूं येवंक नाशिल्लें
तुका धाड्लेलें पत्र
परत आयिल्लें

आयज मात
तुवें धाडिल्ली चीट
सारकी पावली
तांतुंतलीं तुजीं उतरां वाचलीं
पूण तांतूंत  भावना दिसल्यो नात

तुवें म्हाका तुजो
फोटूय धाडून दिला
तांतूत तुजो रुपकार आसा
पूण त्या रुपकारांत
तुज्या अस्तित्वाचो देखाव ना

तुजो हांसोय फोट्वांत आसा
पूण तो हांसो
मनांतल्यान फुलिल्लो ना
तुवें म्हाका फोन केलो
तो तुजोच गळो आसलो
पूण त्या गळ्यांत
स्वातंत्र्याचो स्वर नासलो.

## २७. दोमडी

मनीसपणूच जाला हांगा
मनशां वांगडा आजारी
दोमडे  खातीर भाव जातात
एकमेकाचे शेजारी

काजारी बायल दोमडे खातीर
जावन बसता बाजारी
पुतान आपले आवयक लेगीत
चड्यली गा गोळारी

दरूच देंवता मनीसपणांची
बोलस जातकच भिकारी
अंतस्कर्णाक लागता चुट्टी
देवारे गरयता शिंतारी

नीत राखपी अनीत राखता
दोमडी पड्ल्यार हातारी
कांचनांचोच पदर धरता
खादी कपड्यांतले फुडारी

हिंसेचो पावस आमच्या
कोणें सोड्लो घारारी
मनुशांतुल्या देवचारपणाक
घासून पळय साणयेरी.

## २८. विजयाचो मुकुट

जिवीतांत सगलेंच सूख वा
सगलेंच दूख्ख आसना
हें सामान्य तत्वागिन्यान जाका समजना
तो हे सुंदर सुसोबीत पृथ्वी
जैतीवत जवपाक पावना

सुखांत दुख्खाची याद करीत
दुखात सुख्खांची याद करीत
नियाळ करीत जगता
तोच संवसारांतलो  खरो येशवंत

हार ही जैताची सुरवात
अळांबो यशाचो आरंभ
जशी सावळी आसपाक
वताची गरज लागता
तशीच वताक  आडावपाक
रुखाचीय  गरज  लागता

जो कोण काळकांत
उजवाडाची कीट पेट्‌यता आनी
उजवाडांतल्यान काळकाक वळखता
पराजयांतल्यान यश मेळयता
तोच  जिवितांतलो जैतीवंत
ताकाच विजयाचो मुकुट फावता.

## २९. दुभाव

कोणाकडेन जातलो पालोवंक
उजो नदरेंत पेट्लेलो
कोणाकडेन जातलो थंडावंक
तवो मोगान तापलेलो

कोणाकडेन जातलो पुसूंक
मोग काळजांतच छापलेअलो
कोणाकडेन जातलो लिपोवंक
मोगा परमळ फांकलेलो

कोणाकडेन जाता आडावंक
फांतोड कोंब्या सादचेलो
कोणाकडेंन जाता तोडूक
धागो मनांत गुंथलेलो

कोणाकडेन जातलो लिपोवंक
काळजांत धुंवर धुंवरेतलो
कोणाकडेन जातलो हुमटूंक
दुभाव मनांत किल्लल्लो .

## ३०. पसवण

जीविताच्या एका पुस्तकाच्या पानाचेर
ताचें नांवं हावें
भांगरा किर्णाच्या अक्षरांनी बरयलें
आनी नांवांच्या भोंवतणी
चान्न्याचो शिंपोड शिंपडायलो
रंगयलें मेतयेच्या रंगान

काल्पनेतलीं सगलीं चित्रां
देंवयलीं त्या पानाचेर
सप्तरंगी सपनांतले सगले रंग
एकटांय करून भिरकटायले
त्यां रेखीव चित्रांचेर
घातली रांगोळी
आयज मेरेन निर्मिलेल्या
साहित्यांतल्या साहित्यीक उतरांची
पातळायलीं जंय थंय
प्रदर्शना खातीर

ताच्याच नांवांचें भावगीत रचून
ताच्याच गळ्यांतल्या स्वरांनी
ताच्याच ओंटांतल्यान गावयलें
त्या पानाचोय संदर्भ समजुचो आनी
मनोरंजनूय जावचें ह्या हेतून
प्रदर्शनाक येतलें ह्या  हेतून

त्या गितांतल्या उतरांनी
त्या शुभ समयार
सैमाक लेगीत भुल्लुसयलें
कितल्याशांच कंठांक पसरले
म्हाका पुराय खात्री आसा
त्यां पसवल्या कंठांतल्यान
आनिकूय कंठ पंसवतले.

## ३१. गीतांतल्यो वळी

म्हज्या गितांतल्यो
गांवक नासलेल्यो  कांय वळी
हांवें राखून दवरल्यात
व्हड उमशिकेन
केन्ना तरी तूं येतलें तेन्ना
आमी दोगांय मेळून गायतलीं म्हूण

तुज्या येवकाराक
तांबडो गुलाब घेतला
हांव जाणां
तांबडो गुलाब तुका आवडटा
जायां फुलांची फाती आनी
सुरंगांचो पोडय घेतला
केन्ना तरी तूं येतलें
आनी माथें सोबयतलें म्हूण

तांचो सुगंध उडत म्हूण
काळजाच्या हातांत घालून
उगडासाचें  धांपण धांपला
केन्ना तरी येतलें
आनी उकतें करतलें म्हण.

## ३२. लांब काणी

जिवीत म्हळ्यार कितें ?
जिवीत म्हळ्यार जगपाचें साधन
एक  कंडूल जातूंत विचारांचें आनी
कर्माचें कलम वाडटा

जिवीत म्हळ्यार एक लांब काणी
सैमाच्या पुस्तकांत बरयलेली
काळांतरान निसर्गानूच
आपल्या मोन्या उतरांनी
पिळग्यान पिळग्यांक सांगलेली

जिवीत म्हळ्यार  अमोल कादंबरी
स्वता परमेश्वरान बरयलेली
आनी आपल्या कलावंत
हातांनी आकारलेली

जिवित म्हळ्यार अशीय एक काणी
श्रमांच्या फुलांनी सजयलेली
घामांचे ओलसाणीन धुयलेली
रगताची शाई करून
उतरा उतरान रंगयलेली

जिवीत खरेपणी जिवीत काणी
कुसव्यांत आसतनांच सांगलेली
कुडीच्या पांच तत्वी खुर्साचेर
सुविचारांनी विणलेली.

## ३३. दिनवास

कशे मानचे दिनवास पुतांनो
तुमच्या मोगाच्या म्हासागराचे
तुमच्या अपुर्बायेच्या सान दिसांचे
देवानूच दिवचे तुमकां
चार दीस आपल्या आशीर्वादाचे
चार दीस संपूर्ण आनंदाचे

याद उरतली आमच्या काळजांनी
तुमच्या हुसक्यांची
वाटेक आमचे
दोळे लायत बसताले ते
आशेल्ले तुमचे नदरेची

त्याच यादीचें मेळटा बळ
मेळटात खीण सुखाचे
मेळचो सदांच सांगात तुमकां
ईश्र्वराचे वज्र तांकीचो

समजून घेवचो अर्थ तुमी
आख्खे तुमचे जिणचो
खुर्सावेल्यान देंवन तुमी
रस्तो धरचो सर्गाचो.

## ३४. आत्मवंदना

फांतोडेच्या उजवाड्यार
करता जग प्रार्थना
सुर्याचीं भांगरा किर्णां
धर्त्तरेर पडट्ना ।।धृ।।

जैताची घेवन घुडी
खेळटा जग तालगडी
जळींमळीं शिंपड्लेले
एकटांय जातात संवगडी
पडली तरी कूड खाला
कोणा एका पर्वा ना ।।१।।

पोशे भरून जायतें दिला
हिन्द देवतेन
सगलीं मळां उक्तीं केल्यात
मुक्ति देवतेन
सर्गा सुख भोगता मना
नमन तुका करतना ।।२।।

तुजे खातीर भारता
प्राण म्हजो दान
तुजेच खातीर जीवन आनी
तुजेच खातीर त्राण
स्विकार माये सर्वयांची
आत्मवंद्ना ।।३।।

## ३५. गणित

जिवीतांत फकाणां आसचींच
पूण जाणवीक आसची
जीवीत म्हळ्यार फकाण न्हय
तांतूत जायते कांटे आसात
काटे तोपपीय आसात
तोपीनासताना मातेर काड्पीय आसा
म्हुणून तें
काट्याचेंच रान म्हणप
योग्य न्हय

जिवीत आमकां आपटिता धोपटिता
धुखलता अड्यता
चिड्डिता माडडिता
म्हुणून ताका झुजावें भळ
वा दुख्खाचो दर्या म्हणप
योग्य न्हय

केन्नाय जर हलकें दिसलें
कुस्कूट कशें हुबतें दिसलें
सगलें, सगलेंच ल्हव दिसलें
तरी ताका
सांवरीचो कापूस म्हणप
योग्य न्हय

जिवित म्हळ्यार चालतें गणित
आंकड्यान आंकडो जुळोवपाचें
दर एकल्यान तें सोडोवचें
जरी अवघड आसलें तरी
अवजड म्हूण समजप
योग्य न्हय

जो जल्म मरणा मेरेनचें
कुवाडें सोड्यता तांचेकडेन शिकचें
दर दिसा शिकत रावचें
संकश्टांच्या भयान आपलो जीव
आपणेंच काडप योग्य न्हय
अयोग्य.

## ३६: अमृत न्हाण

म्हज्या बापायन म्हाका
पीसो म्हणत म्हणत
शाणेपणाचे धडे शिकयले

पडटा पडटा म्हणत म्हणत
म्हाज्या फाटल्यान धांवत धांवत
म्हाका सरळ मार्गा केलो

भुरगेपण खेळयता खेळयता
आपले हिकमतीन
म्हाका जाणटेपण शिकयलें

आळशी म्हाका म्हणत म्हणत
स्फूर्त म्हज्यांत फुंकत फुकत
कश्टवंत मनीस केलो

बुरशी म्हाका म्हणत म्हणत
नितळसाणेचो पावस घालून
जीण केली चंद्नाची

आतां दिसता बापायन म्हाका
कितें तरी म्हणचें
कांयच न्हय जाल्यार निदान
पिसो तरी म्हणचो.

## ३७. पावस

पावसान सगळें धुयलें
कोचोप तशें म्हारड लेगीत
पूण आमचें अंतस्कर्ण
ताचेकडें कशेंच
धुवपाक जालें ना

पावसान हुंवार करून
तांडव सांवार करून
धर्तरी लेगीत मोवासार गादी केली
लाकडां सकट
मनशांक लेगीत व्हांवोंवन व्हेलीं
पूण मनशाच्या काळजांतल्यान
ताचेकडेंन सुपुल्लो लेगीत
लोट सोड्पाक जालो ना

वर्सान वर्स पावस येता
वर्सान वर्स लोट व्हांवता
पूण लोटांतल्यान एकूय वर्स
समाजाची गोंवटी पिळटल्या
भ्रश्टाचाराक व्हांवोवन व्हेलो ना

ओंदू वर्साय पावसान
हिसपा भायर बुड्यलें
आवय धूव, बापूय पूत
भयण भाव लेगीत सांड्यले
पूण ताचे ते बुड्टेंत
अत्याचाराचे राकेस बुड्ले नात

# ३८. नमस्कार भारत

नमस्कार भारता तुका  नमस्कार
बुदवंतांचे पुण्यभुंये तुका नमस्कार
नमस्कार नमस्कार नमस्कार ।।धृ।।

जल्मभूंय कर्मभूंय माय भूंय आमची
गंगा सिंधु सरस्वती तीर्थभूंय आमची
व्हडविकायेक तुजे हांगा ना गा अंतपार ।।१।।

भाग्यवंत पुण्यवंत अनंत देश
कर्मपाळ धर्मपाळ फळां फुलांचो देश
सकाळ सांज व्हांवतें आसा चैतन्याचें ल्हार ।।२।।

तुजे खातीर करतां माये जिविताचें रान
नावं तुजें म्हान करूंक जिवीत तुका दान
हांगाच आमची पुजल्या सटी ,हांगाच पुरल्या वार ।।३।।

## ३९. चूल

चिंतनाचे चुलींत
भगभगता भावपणाचो उजो
जिवीताच्या आयदनांत
शिजता तो मोग तुजो

म्हज्या मनात पोरसांत
यादिचीं झोपां पालेतात
प्रत्येक फांदये कणकणी
मोगाचे चंवर चंवरता

तुजे  नदरेंतल्या दर्यांत
हांव एकलोच न्हातलों
म्हज्या काळजांतल्या साळकांत
तुकाच बसयतलों .

## ४०. चान्नें

कालचे राती गार चान्नें
ल्हवूच म्हजे कुडींत आयलें
म्हाका जाग येयसर
पायांकडेच बसून रावलें

जाग जेन्ना आयली म्हाका
तेन्ना पायांकडेन तें दिसलें
हांवें ताका वचूंक दिलें ना
सर्वांगांत आस्पावन घेतलें

जिवीत ताणें फुलयत व्हेलें
जाय जायशें दिसलें फालें
तनान आनी मनात लेगीत
स्वरुपांत भरसून रावलें

त्या उजळ चान्न्यांत
आतां हांव आख्योच बुड्लां
चान्नें न्हावन चान्नें पियेवन
हांवूंच आता चान्नें जालां

## ४१. कालचें जीवीत

प्रत्येक फांत्या पारार
आनीक एक पावट हांव
कालचें जिवीत जियेतां
आयचो दीस सोपच्या आदीं
जिवीत सोपत म्हूण भियेता

प्रत्येक दनपारचो धगधग
मोन्यांनी सोसतना
सकाळच्यां सूर्य किर्णांची याद करता कि
दीस सोपचे आदीं
म्हज्यांतल्या सुर्याचो
अस्त जायत म्हूण भियेतां

प्रत्येक सांज वेळार
फाल्यांक जल्म दिवपाक
झरून वयतां मरून वयतां
तो दिस
रागार जायत म्हूण भियेतां

प्रत्येक फांत्या पारार
आनीक एक पावट हांव
कालचें उरिल्लें जीवित जीयेता

तेच सांज वेळार
आनीक एक पावट
उरिल्लें जिवीत सोदूंक भोंवतां

## ४२. खुरीस

पयर  हांव आमचे
सदचे वाटेन चलून वतना
वाटेवेल्या खुर्साचे सांदे
मोड्ट्ना हांवें पळयले
त्या धर्तरेर शिंपड्लेल्या
सांद्यांक पळोवन
म्हजे कुडीचे
सगले सांदे घडघडले

त्या खुर्सा मुळांत रावन
आमी उलयल्लीं उतरांय
आमचे यादींच्या
पड्ड्या फाट्ल्यान गेलीं
थंय आमच्या वळ्खूक येनाशिलल्यो
प्रतिमा उभ्यो आसात
हो देखाव पळोवन
म्हजे पांय
कितलो तरी वेळ
थंयच्या थंयच गुस्पले

मागीर सदांच आमी बसताले
त्या रुखाके दिकेन
पांय चलपाक लागले
दोळ्यां मुखावेलें पळोवन
दोळ्यांनी उदक देंवलें
त्या रुखाक कोण तरी मारतालो
ताचो एक खुरीस करुन
त्या मोड्लेल्या खुर्साच्या पेडार
दवरपाक सोदतालो
हांवें मनांतल्यानूच विचारलें
आरे पापया,
सजीव निर्जीवाचो साक्षात्कार
तुमकां केन्ना जातलो  ?

## ४३. चूड

त्या उजवाडाच्या राज्यात
पाचव्याचार मळानी
फांत्यापारार मळबाचे तांबशे पोले

त्या मोगाच्या राज्यात
पेटलेली चुड घेवन
सांडलेलें काळीज सोदता

त्या काळखाच्या राज्यांत
उजवाड साणयल्लो
मनीसपणाची भिक्षा मागता

स्वर  नासलेल्या बेसूर राज्यांत
एकलो पोसोभर चान्नें घेवन
आपलो साणलेलो गळो सोद्ता

अविस्वास मातलेल्या जंगलांत
विस्वासाची  पणटी घेवन
तो आपलें अस्तित्व सोदता

त्या मोडलेल्या देवळांत
बावलेलें फूल दिवन
एकलो देवाकडेन प्रसाद मागता.

## ४४. पुल

आयज मेरेन आमी
कितलेशेच खडेगांठ पूल बांद्ले
आतांय एका पुलाचें
बांद्काम चालू आसा
आमगेरसून तुमगेर वचपाचे सोयी खातीर
दिसपाक पयलींच्याय  परस वेगळो

आतां आमी पुलांचे
साबार आराखडे तयार केल्यात
हे सगले पूल
ह्या मनाकड्सून
त्या मन कडेन वचपाचे आसतले
ह्या मनांक
त्या मनांकडेन जुळोवपाचे
तांच्यावेल्यान मोटरां धांवतलीं
मनशांचे उदरगतीच्या वावराचीं

ह्या पुलाचेर सत्कर्मांचे येरादारीक
आड्खळी आसच्यो नात
येरादारीचेर नदर दवरपा खातीर
येरादारी खात्यांतल्या पुलीसांचीय
गरज पड्ली ना
आनी समजा गरज पड्लीच
जाल्यार ते हफ्ते घेवचे नात
ह्या पुलाक मनीसपणाचे चिरे
आनी भरवंशाचो कॉंक्रीट आसतलो
ज्या दिसा हफ्तो चालू जातलो
त्याच दिसा
पुल आत्महत्यां करतलो

थोड्यांनी आत्महत्या केली म्हूण
आमी पूल बांद्पाचें बंदकरचेनात
नवे नवे पुल बांदीत रावतले
तांच्या पोदसून संवसारांतलीं कुकर्मां
व्हांवन वचना ते मेरेन .

## ४५. परकेंपण

तुज्या समदिरा येदया काळजांत
म्हजे चिमटीबर होड्येक
जागोच गावलो ना

अंत्रळा येद्या मना भितर
म्हजा मोगाचें  नखेत्र
तुजे नदरेकूच दिसलें ना

तुज्या काळजा भितरलें
म्हाका सगलें जाणवलो ना
पूण न्हयकार जाणवलो ना

म्हज्या उतरांक तुवें वळखलीं
म्हाकाय नक्कींच वळखलो
म्हज्या मनाक वळखलें ना

जायते पावट तूं म्हज्या
काळजाच्या दारा मेरेन आयलें
आनी भितर सरनासतनाच परतलें

तुज्या परकेपणाची आतां
भरपूर प्रगती जाल्या
तुज्या अबुददेपणाची हांव तोखणाय करतां

## ४६. जिवित धर्म

आमच्या जिवीत धर्मांत
कीर्णा सुर्याचीं
मळां सासायेचीं
उतरां म्होवाळ भाशेचीं

थारो आदिमाया धतरेच
उस्वास शक्तिमान वाऱ्याचो
मोग मनशाळ्यां काळजांचो
आदार मनशाच्या अस्तित्वाचो

नदर सूर्य चंद्राची
ओड गुलाबी पोल्यांची
फळां निस्वार्थी श्रमांची
सरळ वाट सत्याची

प्रीत सर्वय जगाची
जिबली पंटे वातीची
करामत दोनूय हातांची
हातांत मशाल जैताची

परमळ पांचूय तत्वांचो
मुकुट माथ्यार यशाचो
भावाक हात भावनेचो
एकवट काळजां मनांचो .

## ४७. आकार

त्या विशाल समदिराचे
सुंदर रुपेरी वेळेर
तिनसांजच्या मंद वाऱ्यार
सूर्य देव तुज्या वांगडा
आपलीं भांगराळीं किर्णां
हांसकुऱ्या ल्हारांनी ल्हारयतालो

मळबावेल्या कुपांक
रंग  रंगयाळ्या सावळ्यांनी
आनी तरेकवार आकारांनी
रंगयतालो नक्षीकायतालो
आमच्या भिलो आमकां दाखयतात

ह्या बोवाळांत
एकसुऱ्या एका मनाक
अनंत खोशयेच्या उमाळ्यांनी
आपल्या अशक्तपणाची सावळी
विसरूंक लायत
भांगराचो गुळो जावन
चैतन्यांत रंग भरीत
अस्तित्वाक आकार दियता
ल्हव ल्हव अस्ताक गेलो.

## ४८. खुरसाचो भार

आमच्यो इगर्जी, मशिदी, देवळां
देवाच्या मुळांतलीं थळां
मोगाचें दायज, पुर्वजांचीं घरां
उकत्या मनाचीं काळजांचीं दारां

वाऱ्यार चलपी हुबतीं कुपां
रुखा फांदयेचेर नाचपी
शेवण्यांचीं जीणेची तरा
खंती विरयत चिंते विरयता
काट्यांचे मुकूट
मस्तकाचेर आसून लेगीत

जगूंक जड जाल्लें हें जिणें
जायते पावट
भरकटलेलें मन खंयचे खंय
अस्ताव्यस्त जाल्लें सगलेंच
अविचत उमजली एक सुबुध्द
तेन्ना सुर्याक सोपून दिवन
उखळून घेवपाक शिकलों
म्हज्याच खुरसाचो भार
म्हज्यार खांदार

पाकळ्यो झड्टात फुलाच्यो
पूण परमळ सोपना
रिमझीम पावसांत
मोराच्यो पावल्यो थकनात
हीच अवतिकाय आमची
कूड सोड्टना लेगीत
त्या परम तेजाचें ध्यान
हेंच मागणें गा देवा
आनीक कांयच मागना.

## ४९. रुपया

पूल बांदतले आलतडी
ना तर पलतडीच उरपाचो
कांय पावट धीगी जावन
पुलाचो भार
आपल्या कण्यार पेलीत
चिड्ड्त चिड्डत जगपाचे

मागीर त्या पुलावेल्यान
तांबड्या दिव्यांच्या गाडयांनी
तांबडे दिवे चकचकायत
मंत्री वयता
तांच्या फाट्ल्यान हफ्तेकार वयता
माल भरून ट्रकवाले
बेधडक ट्रक धांवडायता
बशी, बुलडोझर, ट्रॅक्टर
आनी हेर वाहनांय
मुयां वरी धांवतात
तरी पूण तांचीं माथीं
धिगे पुला पोंदाचे

त्यां पुलांचेर वचपाक
तांणीच सोपणां बांदलीं
मागीर ताचेवेल्यान
मंत्री गेले, समाजसेवक गेले
भाटकार गेले, मुंडकार गेले
बारीक गेले, मोटे गेले
भायले गेले, भितरले गेले
पूण त्या सोपणांवेल्यान
चलून वतना
तीं सोपणां आनी
पूल बांदलेल्या भिकाऱ्यांचे कट्टेंत
रुपया घालूंक विसरले.

## ५०. चंद्राची वळख

ताच्या माथ्यावयर एक दीस
सुर्या उदेलो
सुर्याचो सगलोच भार ताणें
आपल्या मस्तकाचेर घेतलो
आनी तोवूय भगभगपाक लागलो

तेन्ना लोकांनी म्हळें
हो पळयात
सुर्या धर्तरेचेर भोंवता
तो देखाव धर्तरेवेल्या
समेस्त रैतान दोळे भरून पळयलो

जेन्ना रात येवपाक लागली
तेन्ना तो
लाकडा वरी सुकूंक लागलो
कोळशा वरी काळसार जालो
तेन्ना मुखार कितें घडटलें
ताचो चंद्र रायाक दिश्टावो जालो

तो ताचे कुडींत रीगून
कूड थंडायत रावलो
आपलो वेळ सोपतकच
वयतना तो आपलें
थोडें चान्नें दवरून गेलो
तेन्ना सावन सगळे लोक ताकाय
चंद्र म्हूण वळखूंक लागले.

## ५१. मदल्यो वळी

हांव जर तुजो कवी आनी
तूं म्हजी कविता जाल्यार
मदल्यो वळी चोरीत चोरीत
खंय धांवता जीवीता?

हांव जर तुजो देंट
तूं जर म्हजें फूल तर
परमळाचो गाडगो
खंय आसा सोबिता?

हांव जर तुजो निसर्ग आनी
तूं जर म्हजें फांतें
जाल्यार पोल्यावेली तांबशी
दाखय मगो निखिता मु?

हांव जर तुजो नाग आनी
तूं जर म्हजी नागीण
जाल्यार गळ्यांतलो मणी
खंय पावलो रोझिता ?

## ५२. परजळ

म्हज्यां जीवाभावाच्यां संवगड्यांनो
हांव गेले उप्रांत
म्हजें खरें जिवीत सुरू जातलें
म्हज्या दर एका उतरांतलें खरेपण
तुमकां मुदयेंतलें थीक कशें
दिसपाक लागतलें

म्हज्या तत्वांतलें खरेपण
काळजाक चिर घालून
भितर रिगतलें
तेन्ना तुमकां कांय उतरांचें
स्पस्टीकरण विचारचेंशें दिसतलें
पूण त्या वेळार हांव
तुमचे मदें आसचों ना

म्हजें अविनाशी स्वरूप
तुमचे कल्पनेचे
शिमे भायर पावल्लें आसतलें
देखून त्या उतरांच्या स्पस्टीकरणाचें काम
तुमकांच हातांत घेवचें पडटलें
तेन्नाच हांवें सांगिल्लें
दर एक उतर
नखेत्र जावन परजळटलें.

## ५३. कांबळ

म्हज्या आंगावेलें पांगरूण
फातरांचें खडपांचें
काट्या खुट्यांचें
पूण जेन्ना तें म्हजी कूड
आपल्याच्या पोंदाक
धांपून घेता तेन्ना
म्हज्या आंगार
ताचो भार जाता
लवचिक मोराचें फाक

कांबळीचींय आसात
साबार रुपां
आसात साबार रंग
कांबळीचें आनी म्हजे
कुडीचें नातें सामकें अतूट
कांबळीची तिका भौच माया
कूड विसव घेवपाक लंवडली
म्हणटकच कुडीक
पयली याद जाता कांबळीची
कांबळ कुडीचें कवंच

कूड जेन्ना सासणाची लंवडता
तेन्ना तिका धांपता धवे कांबळीन
मागीर तिका कफन म्हणात
धवी ओल म्हणात
ना तर आनीक कितेंय
पूण कांबळ
निमणी मेरेन कुडीची
आनी कूड कांबळीची.

## ५४. माळ

तुवें म्हजेर मोकून मारिल्लीं
सगलीं फुलां हांवें आतां
एकटांय केल्यात
काळजाच्या केळम्याचो दोर काडून
नदरेचे सुयेक तीं
हांवें आतां गुंथूंक घेतल्यात
माळ तयार जायत चल्ल्या

तयार जातकच ती
कोणाच्या गळ्यांत घालची
हाचोच एक व्हडलो प्रश्न उप्रासला
माळ तयार जाली म्हणटकच
एक गळो जायच पडटलो

कसलेच अटी विरयत
सगल्यात पयली संद
तुज्या गळ्याक मेळटली
बाकीच्या गळ्यांक
कायं खर अटी आसतल्यो
अग्नीपरिक्षाच म्हळ्यार जाता
ते अग्नीपरिक्षेंत तीं पास जाल्यारूय
तांच्या गळ्यांत माळ घालचोंना
म्हज्याच हातांत घेवन
जप करीत भोंवतलों.

## ५५. सत्य

ना गा हांगा कानू
सत्य उलयतले जिबलेकू
ना गा हांगा उकती सुवात
सत्यान चलतले जिणेकू

ना गा हांगा मेकळेपणू
सत्य हुबयतले गुडयेकू
ना गा हांगा मेकळी वाट
देवा वरी मनशांकू

नित नियम पाळटल्यांक
हुमकळायता गोळाकू
आमचें आमकां मागतल्यांक
वच्चें पडटा झुजाकू

घडलें कितें कालच्या राज्यांत
चितलें केन्ना मनशानू
सन्त्य सन्त्य करीत करीत
भोगलें कितें क्रिस्तानू

महात्मा गांधीजींचेर
मारले कितले माराणू
अर्विल्लीं इंदिरा – राज्यू
मरपाक कीतें काराणू.

## ५६. पावणी

आतां खुबळ्ळ्यात हांगा
चारूय वाटांनी सत्तेचे भिकारी
नीतीचे बडयेक भिवकुरे
अंतस्कर्णांचे रीणकारी
तरी लेगीत तांच्यो छातयो
सगल्यांन परस फुडेंच फुडें

आमीच पावयल्यात तांकां
सन्मानाच्या पांवड्याचेर
दिल्यात तांकां मानांच्यो कदेली
आमीच केल्यात तांच्यो भावना पाड
दिल्यात तांकां आशीर्वाद
जावपाक बऱ्यांतले बरे गुंडास्वामी
सगलें आमीच दिलांत
एक बऱ्यांतलें बरें स्वराज्य
घडोवपाचे आशेन

जेन्ना पावले फुलांचे राशीर
तेन्ना भुल्लुसले
त्या रंगयाळ्या देखाव्याक
आनी पडले तुटून
लागले बचकावंक अधाशा वरी
जनतेचें कोणांक पडलांत
अशें सरळपणान उलयतात

तांचेंय म्हूणन एके वटेन सारकें
तांकां फालें आसना
आसता फकत वर्तमान
फाल्यांचेर कोणाचोच भरवंसो ना
तांचो तर नाच ना
फाल्यांचें कित्याक ?
आतां ह्या खिणाक लेगीत
कदेल मोडल्यार सकल शेवटता
म्हुणूनच ते खुबळ्ळ्यात आनी
दसल्यात सत्तेचे म्होवोरक
काडल्यात पावणेर
असहाय दुबळ्यांचीं शिलां.

## ५७. बेनुल्ली

कांय यादी आमच्या काळजाक
बेनुल्ले वरी बांदून घेतात
तूं म्हाका तुज्या सोबीत
हात्या वरी हातांनी
जेन्ना विळखो घालता
तेन्ना आंब्याच्या झाडाक
बेनुल्लेन विळखो घात्ल्याची
याद जाता
त्या यादींचीं पोवनां जातकच
हांव तीं पोटलेक बांदून
काळजाच्या कुरकुटांत दवरता

केन्ना तरी एक दीस
त्या पोवनांचो मुकुट करतलों
हे आशेन
पूण तीं सगलींच पोवनां
मुकुटाक बसतलींच अशें
म्हज्यान सांगूं नज
प्रयत्न करुंयेता
पयलीं केल्ले तशे

कांय पावट त्या यादींचीं कुपां
म्हज्या मस्तकार कोसळटात
आनी घालतात म्हाका न्हाण
तेन्ना परत परत ताजे जातात
पेकूंक आयिल्ले घाय

अशींच जर म्हजेर
यादींचीं कुपां कोसळत रावलीं
तर हांव ह्या वायटांतल्यांन
वाटावपाची शक्यताय सामकीच कमी
हांव जर जगपाक जाय जाल्यार
तुवेंच आतां कृपा करपाची
म्हज्या यादींच्या पड्डयावेलीं चित्रां
पुराय पुसून वडोवपाचीं
ना तर पिशेपणाच्या झटक्यान
हांव खंयसरूय पावंयेता.

## ५८. गीत

नवें गीत म्हज्या वोंटांत
नवे स्वर गायत्या गळ्यांत
नवें बळ आसा गळ्यांत
नव्यो नव्यो दिशा दोळ्यांत

परमळ भरून रावला फुलांनी
म्होंव चोकून घेतला मुळांनी
सैम सुंदरीबाय कळशांनी
म्होंव रकयत आसा पोशांनी

नवीं सूर्य किर्णां दारांनी
नवीं फांतोड किर्णां मनांनी
बोल ताल गीतांत आनी
रंग छंद जिणेंत

आदि नमन अंत अनंता
आदि आरंभ आत्मा अनंता
भरला कणा कणांत गा
तूं सर्वयव्यापी येसवंत.

## ५९. हांसो

म्हज्या हांशान म्हजें
भायलें भितरलें लिपयलें
काळजाच्यां घायांच्यो मावो लेगीत
पूण कपलाक पडिल्ले मिरयेचें
स्पस्टीकरण लिपोवंक जालें ना

तुमी हांसत रावले
बोमलेच्या देठांतल्यान पोट फूटसर
ओलसाण नाशिल्लो सुको हांसो
आपल्या भावनांतलें
हांशांत लिपोवपाचो प्रयत्न
पूण गरजे परस चड हांशिल्ल्यान
गरजे परस  चड सांगिल्ल्यान
म्हजें सांत्वन करपाचो प्रयत्नूच
म्हाका खटकले बगर रावलो ना

ते हासले
कसलेच भाव नाशिल्ले हांशे
सारके रेवटांतले
सुके सडसडीत हांशे
आपलेपण तर नाशिल्लेंच
कसलें सोयर सुतकय नासलेले
हांसूंक जाय म्हूण हांसपाचे
दुसरो हांसता म्हूणून
पूण थोडेंशें कुचिन्नी मत्सराचें
तांचें कोणाक पडलेलें ना
तरी ते हांसतात
आपल्या समाधाना खातीर

म्हाका जाय स्वातंत्र हांशांतलें
हांशांत जाय वखद
काळजाच्या वायटाचें
हांशांत जाय चान्नें पुनवेचें
हांसो जाय आदनांतलो खतखतो
दर्यार मदीं हांसत्या लहारां वरी.

## ६०. भावना

विरगळून गेल्लीं उतरां
रीणींत उरलेलीं सपनां
अपूर्ण उरलेल्या गिताक
भोंवतां सोदूंक फुडल्यो वळी

रीताकडें मागल्यो गीताकडें मागल्यो
मिनाकडें मागल्यो रीनाकडें मागल्यो
मागीर आयलों तुजेकडें
तुका तर उतरूच फुटलें ना

मागीर गेलों हांव सुराकडें
ताणें मात्सो थातारलो, बसयलो
सुरांनी सारको भरलेलो
एक डोस पाजयलो

मागीर वळी सोदच्यो पडल्यो नात
एक वळीन उब्यो रावल्यो
कोणाक पसंद करता काय म्हूण
उमळशीकेन पळोवंक लागल्यो

सगल्योच अर्थान भरलेल्यो
सगल्योच गर्भशिरवंताल्यो
सगल्यांक उखल्ल्यो आनी
एका नव्याच गीतांत बसयल्यो.

## ६१. जस्मिन

आमगेर जस्मिन आयिल्लें जाल्यार
देवांतल्यान ह्या घरांत
जस्मिन येवन
आमच्यांत नंदलेलें जाल्यार
घर भरतलें आसलें
आमच्या दोगांय मदल्या संवसाराची
आमच्या जाणटेल्यांक तशी
निसर्गाक लेगीत नसाय जावपाची

लांब रस्मीचे केंस ताचे
काळजांक घुस्पतले आसले
घारसुलेच दोळे
दर्याचो तळ दाखयतले आसले
दांत धवे तिजुले
मोतयांकूय लजयतले आसले
किराचे चोचे वरी
तांबडे – तांबडे आट
आमचीं उतरां उलयतले आसले

गुलाबाक लजोवपी पोले
फांतोडेची तांबशी जावन
दर दीस रंगतले आसले
आनी आमी त्या
रंगांत बुडून वचून
आमीय तांबशीं जातलीं आसलीं

चान्न्याचो रंग ताचो
चान्न्याची रात कशें
आमकांय चान्न्यान न्हाणयतलें आसलें
शिडशिडीत कुडीचे
नागिणीचे चालीन ताचे
आमी आमची चाल
विसरतलीं आसलीं
ताच्या घुंगरांच्या नादांत
आमचे कान सुखावतले आसले

सुवादिक म्होंवाळ उतरांनी
उलोवपाच्या रंग ढंगांनी
आमी आमचीं उतरां
विसरतलीं आसलीं आनी
सांगूं नज घडये
कळनासतनाच ताच्या उतरांनी
उलोवंक लागतलीं आसलीं

जस्मिन आयिल्लें जाल्यार
म्हजें पोरसू जावपाचें
एक परमळाचें स्थान
सगलो वाटारूच जावपाचो
वसंताचो खेळ
आनी त्या परमळाचो
गुलाब, मोगरें, शेवत्या
आबोल्याक लेगीत
राग येतलो आसलो

तेन्ना आमीच तांकां
समजायतलीं आसलीं
तुमीय म्हूणून आमच्योच धुवो
जण एकल्याचो तो सभावगुण.

## ६२. सांवळ्यो

देवाऱ्याकडच्या मेजाकडसून
दिल्ल्या अखंड उतरा उप्रांत
शेणलीं दोगांय आमी
गुस्पागोंदळाच्या गोंदळांत

आमचे पयलेच नदरेची वावळी
स्टीलचे सोरये वरी दिशिल्ली
अकस्मात अहंकाराच्या वतान
दोळ्यां फुडेंच विरगळून गेली

मोगाच्या उमाळ्यांचें तुफान
च्यावेच्या कपांतल्या वादळा वरी
मनांचे मठयेक मारिल्ल्यो
खुटयो लेगीत मोडून गेलें

आतां उरल्यात दोन सावळ्यो
उलोवंक वा हाताक मेळनाशिल्ल्यो
स्पश्ट वळखूंक येनाशिल्ल्यो
हयन्हयश्यो आमच्याच सारक्यो.

## ६३. चिमटीभर माती

नाका म्हाका शेतां भाटां दोंगरांचीं रानां नाकात
दिता जाल्यार सोडतीन हात जमनीची सुवात दियात ॥धृ ॥

भांगरां शिंगरांचे पेटूल हांवें केन्नाच मागलें ना
शक्य जाल्यार तुमचीं मोगाचीं काळजां दियात ॥१॥

मरतकच हांव दुकां कोणेंच गळोवचीं न्हय
मनांतलें म्हज्या अमृत पियेवन तुमीय अमर जायात ॥२॥

राग मनांत पेट्टा तेन्ना आत्म्यांची करात याद
ईश्वराच्या पेल्यांतलें थंडगार उदक पियात ॥३॥

कोणाचें कितें घेवपाची ईत्सा म्हाका नाच ना
एकचाराचीं बियां घेवंक हात तुमचे मुखार करात ॥४॥

म्हज्या फोडार चंदन आनी फुलांचे घोंस नाकात
चिमटीभर माती घालचे कश्ट मात अवश्य घेयात ॥५॥

## ६४. छाती

कसली देवा अबरगती
उजवाड आसून काळोक हाती
कितलेय श्रम केले तरी
आखरेक हातांत मातीच माती

हुलपले गा हात उज्यांत
पोटाच्या त्या होमखणांत
आद्ल्या दिसा भोरलेली
दुसऱ्या दिसा बोट रिती

हांवेंच बांदले रस्ते लांब
हांवेंच उबाल्ले मट्ये खांब
कांचनांच्या जगांत ह्या
बोड्कां फोडून वेगईळीं नातीं

दुड्वांच्यो येतांच भरत्यो
कुडी फुगून जातात मोठ्यो
जायत्या कुळांक लागून गेल्या
गर्वाची साडेसाती

म्हज्या हातांत आसचें कितें
ताच्या हातांत आसलें कितें ?
भाटां बेसां नासलीं तरी
मनशा मोगान भरल्या छाती.

## ६५. पावस यादींचो

आयज सगलेंच मळब
भरलात काळ्या सांवळ्या कुपांनी
म्हजें मन चितनांच्या
राशींनी भरलां तशें
हो शिरशिरो मस्तो पावस
आपल्या वांगडा घेवन येता
यादी आदल्या इतिहासांतल्यो
कांय यादी भुरगेपणांतल्यो
कांय यादी तरणेपणांतल्यो
कांय यादी आतांच्यो वर्तमानांतल्यो

पावसाच्या व्हांवत्या लोटांतल्यान
वयताल्यो व्हांवत
आमच्यो बोटी कागदाच्यो
त्या बोटींनी बसतालीं आमचीं मनां
जायते पावट बोटी
आडखळत आडखळत उमथताल्यो
आमी मात केन्नाच उमथलीं नात

आडांगी पावस मुजरत करता याद
जनेलांतल्या देखाव्याची
मदींच हांवें काडिल्लें आंग
खबर ना कित्याक म्हुणून
कितें तरी मारिल्लें
आनी तूं फेसाळलेल्या ल्हारा वरी
खळखळून हांसलेलें

पावस सामको हुतहुतो
मेळत तसल्यो यादी हाडटा
दर वर्सा चुकनासतना येता
आनी आमकां बसयता
आमच्या सानुल्यांच्या बोटींनी
सानुल्यांच्या बोटींतल्यान
पळोवंक मात मेळटा
निर्मळ जग सानुल्यांचें.

## ६६. आबोलीं

देवागेल्या कल्पनांनी
सगलीं उतरां पिसावलीं
पवित्राच्या पुजे ताटांत
सगलीं जालीं आबोलीं ॥धृ॥

तांबशीं तांबशीं आबोलीं
जायत्या जाणांनी मागयलीं
भावार्थान घेवन हातांत
देवा म्हूर्तेक दसयलीं ॥१॥

श्रीफळ म्हज्या मस्तकांतलें
पांयांर ताच्या अर्पिलें
अभिशेक घालून ताका
शिरता सगल्यांक खावयली ॥२॥

शिरंतरांतल्यान गंगा गेली
लेंवेन लेंव न्हाली धुली
सज्ञानाची ओंपणी करून
अज्ञानाच्यो बेनल्यो वाली ॥३॥

## ६७. म्हजे बागेंत

तरेकवार फुलां म्हजे बागेंतलीं
रंगरंगयाळीं परमळान भरलेलीं
आतांय फुलतात आदलेच उमळशिकेन
निर्शेता जेन्ना मन म्हजें
तेन्ना शिंपतात परमळ दितात
मनाक आतवेच तरेचें ताजेपण

लांब काळ मेरेन हांव
काळजांत तुज्या रावन आयिल्ल्यान
मन म्हजें आतां
फुलांच्याच मदीं रावप पसंत करता
तुज्या परमळांत आनी
फुलांच्या परमळांत म्हाका
कांय फरक दिसना

तुज्या उस्वासाची हुनसाण
फुलांच्या परमळांत मेळना
हीच जाणवीक एके उणिवेची
जाणवता म्हाका तांचे मदीं
समजायलें जायतें मनाक
जायत्याच तरांनी तरी पूण
येयत रावता याद तुजी

काल जेन्ना हांव
गेलों फुलांच्या मदीं तेन्ना
जालों हांवूय एक सोबीत फूल
म्हाका नांव दिलें गुलाब
आयलें तुंवूय बागेंत त्याच वेळार
तुज्या स्वागता खातीर
ज्युस्त म्हाकाच वेंचलो माळयान
आनी दिलो हातांत तुज्या
मुरगुटलें तूं भितरले भितर
आनी हांसलें मुमुरकेंच.

## ६८. माये

ईश्र्वराचें तेज सदां
भितर म्हज्या नंदता
उतरा उतराक पावला कणीक
नवी वाट गायता ।।धृ।।

तेजवंत देवा म्हज्या
त्रैलोक्याच्या राया म्हज्या
दर एका वळणा वेळार
हाताक म्हज्या धरता ।।१।।

सोशीकताये माये म्हजे
भवसागरांले नावे म्हजे
सुकते आनी भरते वेळार
स्फूर्त म्हज्तांत भोरता ।।२।।

कोटी सुर्य प्रकाशमया
ज्ञान आनी सज्ञानमया
दर दिसा शांती सुशेग
कृपा दान करता ।।३।।

सगुण निर्गृण निराकारा
परम पिता सर्वेश्वरा
निमण्या वेळार मुक्ती दिवन
आपल्या रुपांत व्हरता ।।४।।

## ६९. माड

पिराय जावनय धीट उभो
माडा बाप्पा जाणटेल्या
भार पेलूक कुस्तार जाल्ल्यान
भेंड तुजें बागवला

काडले कितले पावसाळे
गिमाळे आनी शिंयाळे
कितलीं तरी माथ्यावेल्यान
वादळ मोडां हुबयल्यात

धोलता आख्खें आंग हालयत
गितारांचे स्वर खेळयत
रेंदेर लेगीत तुजेच खातीर
व्हड जावंक पावला

पिराय तुजी वाडल्या गा
धिग गरज पडल्या गा
मनीस कुळाक तुवें राया
आपलें सगलें ओंपला

तुका राया पयलो मान
फळ तुजें देवा समान
वादळ मोडांत जगपाची
कला तुवेंच शिकयल्या.

## ७०. म्हजो बापूय

म्हजो बापूय एक अवतार आसलो
त्या अवतारांत आनिकय अवतार आशिल्ले
म्हज्या वांगडा खेळटासतना ते
म्हज्या परसूय सान जाताले
ताचें काळीज़ आशिल्लें व्हड
तांतूंत आनीक एक काळीज रावतालें
म्हजे कुस्कुटायेदे नडीचें लेगीत
ताका ज्युस्ता-ज्युस्त समजतालें

ताची सावळी आशिल्ली विशाळ
ते सावळेंत आनीक एक सावळी आसताली
मात्सो लेगीत हांव थकलों जाल्यार
थाकाय पयसावणी सत्री फुलताली

पापा, तुज्यो यादी कितल्यो गोड
तांतलें हांव सगलें शिकलां
तुज्याच सारको मळबांत पावपी रुखा-वरी
हांवेंय व्हडलो जावंक चिंतला.

## ७१. बापायची मुस्तायकी

पापा, तुजें खोमीस म्हाका
जायते पावट भुजांचेर चडयनशें दिसतालें
तुज्या फाटल्यान तें
चडोवचें पडलें तेन्ना
तुज्या फाटीच्या कण्याक
कित्या खातीर बाग पडल्या
ताचें गुपीत समजलें

पापा, तुजें कालसांव म्हाका
न्हेसचें दिसतालें
पिराय जातकच न्हेसलों तेन्ना
तुजें भेंड कित्या खातीर धरतालें
त्या गणितांतलें सगलें होलमलें

पापा, तुजी तोपी
एक दीस तरी माथ्याक घालपाची
मनांत ईत्सा आसली
जेन्ना हांवें ती म्हजे
तकलेचेर दवरली तेन्ना
म्हजी तकली चिड्डली आनी
तुजे तकलेवेले केंस
कित्या खातीर गेल्ले
ताची काणी लक्षांत आयली

पापा, आतां म्हाका
तुजे बूट घालपाक जाय
म्हजे बूट आतां म्हाका वसनात
रस्तो लांब आसा
जिवीताचो पर्वत उंच आसा
तुजे बूट घालून
सडसडीत तुरतुरीत चलपाक जाय.

## ७२. प्रश्न बापायचो

पापा, तूं सदांच म्हणटालो
म्हजो पूत पिसो
पिसो म्हळ्यार सामकोच पिसो
तेन्ना म्हाका प्रश्न पडटालो
शाण्या बापायचो पूत
पिसो जालोच कसो

तुका सदांच चिंता आसली
म्हज्या मुखावेल्या भविश्याची
हांव समर्थपणान
उबो रावत काय ना हाची
संवसाराच्या तुफानांतल्यान
होडी तडीक कसो पावयतलो
हुस्क्यान न्हीद गेल्ली दोळ्यांची

आयज पळय पापा
म्हज्या उफाट कश्टांनी
घामाच्या पावळ्यांनी भरून गेल्यात
आमच्या घराच्यो सगल्यो कुडी
पूण हें पळोवपाक
तूं आमचे मदीं ना जालो.

## ७३. भांगराचे हात

चल्ले तुजे भांगराचे हात
बरें करीत बरें ओंपीत
फाटीं पळेनासताना
चल्ले सगलीं दुकां पुशीत
लकलेल्यांक दिगी आनी
मेंगेल्ल्यांक स्फूर्त दियत

चल्ले सगल्यांक एकटांय करीत
तुटिल्ली नातीं जुळयत
भेदभाव कुशीक सारून
निस्वार्थीपणान मोग दियत
काळजांतलो मोग दियत

चल्लें दुखांत सूख भरसयत
सदळ जाल्लें सारकें घडयत
सगल्याक हांशे फांकयत
बावलेल्यांक हावेस दाखयत
पिकना थंय सारकें पिकयत
इतलें करून लेगीत
आत्मविस्वासान सांगतात
हांवें कांयच केलें ना
आनी केला आसत जाल्यार
तें कर्तव्य म्हजें

चल्ले निसर्ग निरामय दोळे
बाबडे नदरेंतले मोगरे कळे
तुज्या हाशांत विरगळायत
त्रासीक वेदनाच्यां कळांक
दियत सूखनी शांती
करीत जिवीताचें पेणें
दर एका थांब्यार.

## ७४. नमस्ते

विशाळ समुद्रान पोसोभर उदक
निसर्गाक उश्णें दिलें
तें उदक अंत्रळांतल्या
वाऱ्यांत भरसलें आनी
भरसलेल्या उदकाचें एक
काळें कुळकुळीत कूप जालें
सारकें गुरवार जातकच
जोगलां आनी घडघडांच्या
व्हडल्या थाटामाटांत
एक दीस बाळंत जालें
दिसूंक लागली वचत थंयसर
जळीमळीं खोशीच खोशी
सृश्टीचें सगलें जालें ओलेंधुल्लें

पावसाच्या रुपान
शिंपडलें सगल्याक अमृत
झिली झोपानी बेबे बेबकां
सावदां तशींच किरां मोरां
गावंक लागलीं नाचूंक लागलीं
समुद्राचें रीण पावयतना
सृश्ट सगली पाचवीच जाली

कोंब फुटले नव्या बियाण्यांक
धरलीं मुळां जालीं रोपलीं
ताजीं तवानीं कणसां
शेता मळांनी धोलूंक लागलीं
ल्हान व्हडली रुखावळ
दोंगरांनी धोलूंक लागली
धर्तरी व्हंकल सुंदरी
सपन सुंदरी, रान सुंदरी दिसूंक लागली
आंग आंगान भांगरान भरली
भांगरान भरली, भांगरान भरली
ॐ नमो पावसा जीवन अमृता
ॐ नमों पावसा बीजबियाण्या
ॐ नमस्ते नमस्ते नमस्ते.

## ७५. घुंवाड्यो

हांगा जो उलयता
तो तुजो परमेश्वर
तुजो घनी तुजें स्वरूप
आनी तुजेंच अस्तीत्व
अवचित तुका कशी म्हूण
पिडा जाली गर्वाची
कित्याक म्हूण मातयलात
देखी भायलो अच्छेव
तो तुका अनवळखी
हेंच तुजें अबुध्देपण
संवसारांतल्या पाड्या मनशांकूच
असले अविचार येवजतात

तूं तुज्या पेल्याक वळखना
आपल्याक आपुणूच वळखना
तुका एक नांव आसा
नांव आसलें तरी पूण
तूं एक जिती जिवी शिळा
शिळेकूय नांव आसता
तुज्यांत जें तेज आसा
तें शिळेंत आसना
होच तुज्यांतलो आनी
तेज नाशिल्ले शिळेंतलो फरक
तुज्यांतल्या खर तेजान
तूंच जळून वतलो
हाचे पयलींचे जळ्ळयात तशे

आपूण संवसाराच्या हाताक धरून चलयतां
अशें ताचें म्हणणें
आपणें दाखयल्ले वाटेंतल्यान वचप
हेंवूय ताचेंच सांगणें
म्हज्या नावांचें न्हाण न्हावचें
असो ताचो आदेश
साबणान केन्ना कोण
निवळ जाला व्हय
तशी वेळेवेली रेंव लेगीत
तुजे परस चकचकीत

तुका जर हातुंतलें
कांयच एक मान्य ना
जाल्यार तेच तसलेच जिणेंत
परत परत काड घुंवाड्यो

## ७६. फोन सादेलो

फांत्या पारार कोंबो सादेलो तसो
फांतोडेचेर फोन सादेलो
फोनावेल्यान तुवें निरोप दिलो
आदलें सगलें सोपलें
आतां सगलें विसरपाचें
म्हाका प्रश्न पडलो
आदलें कितें म्हूण सोपलें ?

कितें सोपलें आमच्या
जिवीतांतल्या उतरांतलें
कितें सोपलें आमच्या
उतरांतल्या जिवीतांतलें
अशे तेरन सोपूं येता केन्ना
कितें तरी संपूर्ण मोगांतलें
मोग पुर्णतायेक वच्चेपयलें

तो तुजो फोन सांजवेळां
उसरां आयल्यार समजूं येतालें
आतां दीस बुडटलो
आनी फालें उजवाडटलें
शेणल्या तें काळकांत मेळना
अशें धरून चलूं येतालें
संवसार काळकांत शेणपाचो
शेणिल्ल्या संवसारांत हांव
म्हाकाय शेणोवन घेवपाचों
पूण जें कितें उलयलें
तें उजवाडट्यावेलें आशिल्लें

फांत्यापार आशिल्ल्यानं
आतांच झीजुट्टें जायत आयिल्लें
कांय  वेळा भितर
भांगरा किर्णांचो लख्ख उजवाड
संवसाराचेर पातळपाचो आशिल्लो
चकचकीत उजवाडा वांगडा
म्हाका पिशेपणाचो झटको येवन
म्हज्या पिशेपणाचें प्रदर्शन

सगल्या संवसाराक दिसत
ह्या भंयानूच हांव
मोडकळीक आयिल्ल्या
रथा वरी सांद्या – सांद्यान कडकडलों

दोनूय हात जोडून
आत्म्याचे खरींतल्यान देवाक
होराय होराय होरायलो
देवा आयचो फांत्यापार
सारकें उजवाडायनासतनाच
वर्साचीं वर्सां असोच दवर.

## ७७. दोन पाकटे

देवाकडें हांव म्हाका
दोनूच पाकटे मागपाचो आंसां
ह्या संवसाराच्या
वादळ मोडांत शेणलेल्यांक
म्हाका सोदपाचें आसा
उंचल्यान धर्तरेवेलें सगलें
बरें वायट पळोवपाचें आसा
हांगा सुक्या वांगडा
ओलेंय जळटा तें थांबोवन
सुक्या वांगडा सुकेंच
जळोवपाचें आसा
गुन्यावकारां वांगडा
निरपराधीय भोगतात ख्यास्त
तांची रथास्त तांकांच
दिवपाची आसा
अनभावार्थ्यां वांगडा
भावार्थीय बुडटात
संवसाराच्या खांची कोनशांनी शिरकल्ल्यांक
संकश्टांच्या चेपणांत चेपलेल्यांक
अन्यायाच्या व्हाळांतल्यान
व्हांवून वतल्यां एकान एकल्याक
सोदून काडपाचें आसा
निरपराध मनीसपणाक
अनीतीच्या घाण्यांक बांदलेल्यांक
बळिश्टांच्या चाबकांचे मार सोसतल्यांक
धर्म नीत पाळपी शाण्यां मनशांक
जाती धर्मांचे कुराडेन कापलेल्या
सगल्यांक एकटांय करून
तांच्यां घायांचेर मलम
लावपाचें आसा
म्हज्या आलाशिऱ्याच्या आंगणांत
तांचें सात्वन करपाचें आसा
तांकां बळ दिवाचें आसा
बळवंत करपाचें आसा
तांच्यांत चैतन्य भरून
फाटीवेल्यान मायेचो हात
भोंवडावपाचो.आसा
हें सगलें करपाक
म्हजे दोन हात आसाच
तरी पूण आनीक
दोन पाकटे मागपाचे आसात.

## ७८. बाजार

नांव तुजें सांगून सांगून
चल्ला कितें आयज काल
शिकवण तुजी वयता व्हांवत
ताचेर मात्शी नदर घाल

शिकवण तुजी पिसडून फाफडून
करून सोडला बोडकें झाड
नीत नेम कशेय वळोवन
मंदिर तुजें करता पाड

देवाऱ्यांनी बसून तांणी
उतरां तुजीं बाजार केल्यांत
आपलें आनीक भरसून सायबा
भलतेंच तुज्या भुजांर दिला

असल्या धोंग्यांक परमेश्वरा
तुवेंच बरें दिवचें ज्ञान
वायट घालून पायांखाल
बरें तेंच करचें दान

पुटपुटीत मेजून दुडू
भक्तीय केला निराधार
उतरांचो करून अनर्थ
उक्तेपणान मांडला बाजार.

## ७९ .चार रस्ते

पावस आयलो मिर्गाचो
आयलो सामको घोग्यांचो
म्हाका तेन्ना उगडास आयलो
त्या चारूय रस्त्यांचो

पावस आयलो शिरशिरो
जसो थंय पावतांच येतालो
तरणेपणांत आमकां त्या
चार रस्त्यांनी शिंपतालो

पावस मस्तो येयत रावलो
म्हाका ओलो थप्प केलो
दोळ्यां मुखार घुवंक लागलो
तुजो म्हजो चिखोल कालो

पावसान चारूय रस्त्यांची
याद म्हाका मुजरत केला
बोलसांत म्हज्या फोटो तुजो
न्हान धुवन तयार जाला.

## ८०. नातलां

आयज देजेंब्राची पंचवीस तारीक न्हय
येशू क्रिस्ताच्या जलमाचो दिसूय न्हय
संवसाराचो कसलो उत्सवूय न्हय

मळबांतलें नखेत्र एक आयज
आमच्या घरांत अवतरला
सारकें पंद्रा वर्सांनी
आमगेर बाळक जल्मला

देकुनूच आयज आमगेर नातलां
सगली सृश्टी उजवाडान न्हावन गेला
खोशयेच्या भरान म्हज्या मनाक हांवें
आकाशांत भिरकटावन उडयला.

## ८१. काटीक

तीन घरांच्या मदेकात
एका दुरगाचे कुशीक
एक जाण्टेलो माड
मरणाचे दशेक पावला

आपलो जीव वचचो आशिल्ल्यान
ताणें म्हाका विचारला
खंयच्यान आडवो पडूं
म्हजे पांय निकामी जाल्यात

मात्सो थातारून ताका
हांवें धीर धरपाक लायला
पडून कणो मोडत म्हूण
संयम सांभाळूंक लायला

म्हज्या घराक वांशे जाय
सारकें जोक काडून येता
तुजे चार कुडके करून
सलामतीन सकयल देंवयतां

मात्सो थांब, कळो सोसून घे
दोर आनी कुराड हाडटां
क्षमा कर तुका मारूंक
एका दिसाचो खाटीक जातां.

## ८२. हात जोडून

जेन्ना तूं नदरे पलतडी आसता
तेन्ना एकमुळो आसना
तुजे भोंवतणीं भोंवत आसता
राखणेचें वज्र जावन
आमचे मायेची सासाय

तूं जेन्ना कश्टून कश्टून
सामको कासावीस जातलो
कुड विसव घेवंक सोदतली
तेन्ना आमचीं मागणीं आनी
पुण्यायेचें बळ तुका मेळट्लें

जेन्ना तूं शिंयांन कुड्कुड्ट्लो
आंगार काटो फुलतलो
भयान अर्दो मेल्लो जातलो
तेन्ना शांतपणान दोळे  बंद करून
खिणभर आमची याद कर
तुज्या तनांत आनी मनांत
जोगला वरी तेज संचारतलें

जेन्ना वतान करपतलो
मेंदू उसळूंक लागून
दोळ्यां मुखार काळोक दिसतलो
तेन्ना अजिबात भियेनाका
आमी रूख जावन तुका
मायेचे सावळेंत धापून घेतलीं

जेन्ना जेन्ना तुजेर विकल्प येता
तेन्ना म्हज्या काळजाच्या पडड्याचेर
तुजें हांव प्रतिबींब पळेतां आनी
तुजे खातीर मागतां हात जोडून.

## ८३. कीरण

कश्टांच्या घराक
भरवंशाचो आदार
मोगाच्या थाऱ्याक
काळजाचो श्रृंगार
सपनांतल्या झऱ्याक
व्हांवते न्हंयचे वाटेर
आशेचें किरण

चिंतनांच्या दोऱ्याक
सवसकायेचें मुणें
त्रासांचे वाटेर
फुलां भरून दोणे
संयम राखतल्यांचे
मजबूत कणे
ईश्र्वराच्या भक्तांक
सगलेंच सारके
तुस्त तोखणाय
तशेंच उणेंदुणें

धर्तरेचेर धाडून आमकां
जिवीत दिला ताणें
जाच्या मनांत आत्मविस्वास
थंय कितें उणें
ईश्र्वर जाका पावता
जाचे कश्ट फळटात
ताचें सुखी जिणें.

## ८४. म्हजो ईश्ट

म्हज्या मोगाळ ईश्टा

ही तारीक तुज्या लग्नाची

ही घडी लग्नाच्या म्हुर्ताची
चली तुवें वेंचून काडली
सपन रंगी गुणांची
पुनवे रातीच्या आंगाची
म्होव्या म्होवाळ आंगाची

लांब रस्मी केसांची
काळ्या काजळी दोळ्यांची
भरलें ईश्टा नशीब तुजें
राणी तुज्या काळजाची
मालकीण तुज्या घराची
समजिकायेची ल्हानविकायेची
जापेत तीच रेस्पेत मान
म्हूर्ती जशी मर्यादेची

सवकासायेन चाल तिची
गोडसाणेची वाणी तिची
फुडली वाट सारकी चलूंक
धर कास अर्धांगिनीची
वलय आतां वलय व्हडें
पलतड सोदूंक भवसागराची.

## ८५. पुर्णताय

अशेंच जिवीत म्हजें अर्दकुटें
एक दीसभर फेरयेंत शेणपाचें
तुवें फुडेंच फुडें वचत रावप
हांवें जड मनान पळेत रावपाचें

अशेंच जिवीत म्हजें अर्दकुटें
हांशेय वोटां भितर शेणोवपाचें
उतर गळ्यांत घुस्पून घुस्पून
काळीज चिड्डून दोळे पिळपाचें

अशेंच जिवीत म्हजें अर्दकुटें
हावें खुंटो जावन रावपाचें
तुवें वचप तुगेल्या संवसारांत
हावें मात म्हजेच हात चोळपाचें

अशेंच जिवीत म्हजें अर्दकुटें
भितरले भितर निन्नळपाचें
परतीची आस्त बाळगीत
यादीनीच जगपाचें, यादीनीच जगपाचें

अशेंच जिवीत म्हजें अर्धकुटें
तूं राज्य स्वराज्य  दुसऱ्यांचें
एक दीस हांव कूप जावन पावसाचें
तुमच्या राज्यांत येतां आनी
राज्यांतलें घरान घर
पाख्यान पाखें, आंगणान आंगण
आंगा आंग, सांद्यान सांदो भिनयतां
हेच खीण जिवीताचे पुर्णतायेचे.

## ८६. आमशींगेंतल्या शारांत

पयस म्हज्या सपनांतल्या
एका देशांत
आसा एक आमशींगेचें शार
आनी त्या शारांत आसा
म्हज्या मनातलें एक घर

थंय आसा म्हज्या काळजाचे
चोंयवटेन दोळे
दोळ्यांतल्यान दिसतात
भूत भविश्य आनी वर्तमान
आठूय पारां

म्हज्या आमशींगेच्या शारांत
आसा अनगिनत रुखावळ
ते रुखावळीचे फांदये फांदयेर
फुलतात रंगयाळीं फुलां
लाख परमळाचीं
कांय चिमटीभर तर कांय
आमच्या काळजाच्या आकाराचीं
पोटांतल्यान खदखदूंन हांसयाळीं

म्हज्या आमशींगेतल्या घराक
पावल पावलाक दारां
प्रत्येक दारांतल्यान आपालिपा खेळटात
म्हज्या भावनांचीं सानुलीं पोरां
पोरांच्या हाशांनी भरल्यात
म्हज्या जिवितांतलीं उतरां
थंयच्या काळजांचीं सताड उक्तीं दारां
ना कसलो दुभाब ना हुस्को
ना कसलो भंय ना भिरांत
म्हज्या आमशींगेंतल्या शारांत
म्हज्या आमशींगेंतल्या घरांत.

## ८७. जाय तें माग

हांवें तुजेलागीं सर्ग मागूंक नासलो
मळबावेलीं नखेत्रां मागूंक नासलीं
कुपांवेल्यान सैमाची सवारीय मागूंक नासली
फकत तुजो मोग मागलेलो

राज्याची राजवट मागूंक नासली
भांगराचें सिंवासन मागूंक नासलें
धन दौलतय मागूंक नासली
तुज्या काळजांत सुवात मागलेली

म्हाका तुजें नशीब नाका आसलें
भाटां बेसां नाका आसलीं
कसल्यो वस्तीय नाका आसल्यो
सरसकट तूच जाय आसलो

तुजेकडें हांव कांयच मागना
आतां तुजेकडें दिवपा सारकें आसा कितें?
तुका जाय तर तूं कितेंय माग
म्हजेकडें दिवपा सारकें आसा जायतें.

## ८८. नवें गीत

नवें गीत म्हज्या वोंटांत
नवे सूर म्हज्या गितांत
नवी शक्त आसा हातांत
नवें नवेंच म्हजे वाटेंत ||धृ||

नवें चैतन्य झिलीं झोपांत
नवो उत्साह आसा मनांत
रुखा रुखार फुलता फुलोर
मोर नाचता सुटल्या वनांत ||१||

सुर्या रकयत वयता भांगर
चंद्र करीत वयता शृंगार
सैम सासाय आमचे जिणेंत
म्होंवा थेंबे दर एका शब्दांत ||२||

म्होंवी मोवसाण म्हज्या उतरांनी
भांगरा किर्णां नाचता दारांनी
हरयाळीशे धर्तरेचेर
भोंवर लिपता फुलांनी ||३||

## ८९. शोकसभा

तुमी रडटात कित्याक?
बंद करात आतां शोकसभा
पंचतत्वांचें आयदन
सोडून गेल्ल्या शेवण्या खातीर
बुदवंत शाण्या मनशांनी
दुकां गळोवपाचीं आसना

हांव तुमच्या वांगडा ना
पूण म्हज्यो यादी
तुमच्याच वांगडा आसतल्यो
तुमी दिल्लो तुमचो मोग, माया
म्हज्या वांगडा
म्हज्या आत्मरुपांत भरसून आसात
जंय सगलेच वचपाची इत्सा
प्रगट करतात अशा
नदर पावना पूण
कल्पना पावता त्या राज्यांत
हांव वास्तव्याक गेलां

म्हाका जितलें आयुश्य दिल्लें
तितलें आयुश्य हांव
कशे तरेन तुमच्यांत
भरसून जियेलों हाका
तुमीच खरी गवाय आसात
मातयेकडे आशिल्लें म्हजें
नातें तुटलें आनी
मायेच्या बंधनाच्यो शिमो हुपून
हांव आतां अविनाशांत विलीन जालों
एक दिव्य थीक जावन
ताच्या मुकुटाक दसलें
हेच खातीर तर जगतात आमी
जीवित भरवंशाचें जण एकलो.

## ९०. विशय

विशय सोपले आतां
कविता करपाचे
पूण विशय अजूनय सोपूंक नात
उघड्यार शेवटिल्लें नश्टें भश्टें
अर्द कुशिल्लें खावन
जीवन जियेतल्या मनीसपणाच्या
फुटपाथाचेर राती सारतल्या हांतरुणाचे
मनीस आनी कचरो हांच्या संबंदांचे

विशय सोपले आतां
कविता रचपाचे
पूण विशय सोपले नात
कवितेतलीं उतरां चोरपाचे
एकमेकांक दोळ्याआड नाडपाचे
दोळ्यां मुखार फटोवपाचे
चार चौगांत एकमेकाचें तासपाचे
एकमेकाचे पांय ओडपाचे

विशय सोपले आतां
कविता गावपाचे
विशय सोपले नात
कवितेचे सोबीतकायेक चिमटो मारपाचे
संगीताच्या शृंगारांचें अनुकरण करपाचे
एकल्यान जल्माक घातल्यान
ताच्याच सारकें दिसपी भुरगें
दुसऱ्यानय जलमाक घालपाचे

विशय सोपले आतां
कविता सांगपाचे
पूण विशय सोपले नात
भर सभेंत माचयेर रावन
एका पक्षांतल्यांनी दुसऱ्या पक्षांतल्यांक
साली वचसर तासपाचे
वस्त्रां, आंगवस्त्रां पिंदून
नागडे उगडे जायसर
आवय भयणी बायल मेवणे सकट
मेळत तशे सोलपाचे
भायलें भितरलें सगलें वयर काडपाचे
मागीर हांवे तशें उलयलोंच ना
म्हूण बास्कळ भासून वचपाचे

विशय सोपलो आतां
कविता चितपाचे
　　　　पूण विशय अजूनय सोपले नात
चलये वांगडा हुंडो मागपाचे
हुंड्याक लागून चलयेक लासून मारपाचे
चली जल्माक येवपाची आसल्यार
गर्भपात करपाचे
वचत थंय पनवती
कमिशन खावपाचे
पोटाचे आधोळेच्यांक
कितलेंय कितेंय पचपाचे.

विशय सोपले नात कवीचे
कवीचे कवितेच्या अस्तित्वाचे
कवीतेंतल्या सत्याचे, सत्यांतल्या स्वत्वाचे.

## ९१. देणें

देवान म्हाका मळबा येदें
म्होंवाळ काळीज दिलें
आनी तातूंत निर्माण केले
सुखाचे सागर आनी
दुख्खाचे आगर

तेअच खातीर म्हाका
सदांकाळ शिकचें पडलें
सदांकाळ सोदचें पडलें
जीवित म्हळ्यार कितें?
जीविताच्या गणिताचे आंकडे
आनी शुन्र्येंतलें म्हत्व

देवान म्हाका म्हजी
नदर पावता इतले व्हड
हात दिल्यात
तेच खातीर जावयें
जांकां म्हजें काळीज
सदांकाळ आशेतात
तांकां हाताभायर दवरल्यात

तशें जांवक नासलें जाल्यार
म्हज्या हातांक सगलें
सहज मेळटलें आशिल्लें
आनी हांव चितचे पयलींच
बचको मारतलों आशिल्लों

देवान म्हाका
मळबायेदें मन दिला
मळबायेदें काळीजूय दिला
आनी मळबाच्यानूय उंच अशा
मनीसपणाच्या मोगाची शिकवण दिला.

## ९२. अटंगें रान

एक एकसुरीच वाट
वाटेंत  कळोख गुपाट
जीविताच्या नशिबाची राट
वाटेक फाटेय फुटनात
वाटेंत वाटसुरोय दिसना
काळोख सोपून सोपना

मन जाला अरण्णें
कांयच येवजनाशिल्लें अटंगें

एक एकसुरो मनीस
मनशाचो एक – एक दीस
दिसाक आडमेळीं तांस
मनशांचे सभाव  वेगळे
मनशा सारकेच आसून लेगीत
वेगळेच मनीस सगले
कांय जाण उज्याचे इंगळे
कांय जाण पणसाचे गरे

एक एकसुरें सपन
जिणेचें एक – एक सोपण
काळजांतले एक एके आठवणीन
मनाक फुडटात पाखां
जिणेंत ज्या मोलाचीं सुखां
त्याच मोलाचीं दुकां

सुखांच सुखां दुकांच दुकां
समजदार शाण्या मनशाक
सूख कितें आनी दूख्ख कितें
दोनूय सारकीं एका समान
हेंच जीवित हीच जीण.

## ९३. हांव येतां

कश्टांचें तुफान आतां
सगलें सोपलें
सपन घराच्या पाडसार
नशीब बसलें
सूर्या कीर्ण अंतराळांतल्यान
सकल देंवलें
आतां म्हज्यान रावं नज
हांव येतां

सोपल्यो सवंग राती
काळ्या कुळकुळीत काळखाच्यो
वाटूय म्हजी आतां
मोटवी जाता
उदास मनाक म्हज्या
नशीब दिवपाक
आतां म्हज्या प्राणप्रिया,
हांव परत येतां

नखेत्रांय आतां मळबांतलीं
मळब सोडून गेलीं
सुकणीं जळींमळीं
घोटेरांनी परतूंक लागलीं
आमुरपिकीं घोटांय आतां
चानयांनी काथो केलीं
रिकाम्या चित्रांत रंग भरूंक
हांव येतांच येतां

म्हज्या पावलांच्या फावड्यान
रस्त्याचें आंग कापीत – कापीत
मैलांचे – मैल फाटीं उडयत
तुज्या पिंगळ्या काळ्या केंसांचीं
म्हज्या काळजाचो तांबडो गुलाब
खवैन घेवचे खातीर
फुडल्याच खिणाक, प्रितीचे
हांव जरूर येतां

तुजे रिकामे सत्रेंत येतां
तुज्या रिकाम्या मनांत येतां
थोड्या वेळान रोकडोच पावतां
पावत आयलों
पावलों,
दार उक्तें कर
दार उक्तें कर.

## ९४. जीण सोपयली

फटी मारीत मारीत ताणें
जीण सोपयली
जीवितभर सूख सोदूंक
दुख्ख दुख्ख करीत करीत
फुलां बावयलीं

कुडीचें म्हेळें काडूंक
कूड न्हाणयली
तान तान करीत करीत
बांय सुकयली

घरकान्नीच्या रागान ताणें
उजो रकयलो
मोगा खातीर आतां तिचो
हात मागयलो

उपास करून आयज मेरेन
जायत्यांक फटयलें
कण कण एकणंय करून
धन पुंजयलें

वखदा बगर बापायक लेगीत
दुखण्यांत धुखल्लो
संगीताच्या तालार ताका
फोंडांत पुरयलो

नातीं गोतीं विसरून
जाय तेच पारखी पुंजयले
अडचणीच्या वेळार ते ताची
वळख विसरले.

## ९५. म्हज्यो यादी

देवाची याद येता तेन्ना
हांव देवाऱ्याकडेन पळयतां
तुजी याद येता तेन्ना
सगलो निसर्ग नियाळटां

देवाची ओड लागतकच
ताच्या फोटवाकडेन पळयतां
तुजी ओड लागता तेन्ना
मनाक थातारपाचो यत्न करतां

देवाची सासाय आनी दया
म्हाका वायटांतल्यान वाटायता
तुज्या मोगाचें मोगाळ पाखें
म्हजो सगलो भार पेलता

तुजें उतर जेन्ना हांव नियाळटां
तेन्ना हांव म्हाका विसरतां
तुजी चीट वाचतकच त्या वेळार
हांव म्हजो धर्मग्रंथ सांसपितां

तुज्या दोळ्यांनी फांकारलेल्या किर्णांची
जेन्ना काळखे रातीं याद करतां
तेन्ना मोगाचे मुर्ती म्हजे, मुकुटा
हांव सुर्यांत रुपांतर जातां.

# ९६. सासाय

अखंड काळखाचें
हड्डें फोडीत तो
सुर्याच्या अवतरणान
फांतें घेवन उदेलो
आनी ताच्या प्रत्येक
पावला कणकणीं
प्रचंड उजवाडाचो
परजळ फांकयत गेलो

काट्या खुट्यांचे दोंगर
माड्डीत माड्डीत देंवलो
लोकांनी मागीर ताकाच
वझरो मानलो
ताचे आकृतीचो घडोवन
एक लक्तुबायेचो पुतळो
मनीसपणाच्या पेडार
निट्ट उबो केलो

गर्भ मोसमांतल्या
गुरवार कुपांतल्या घडघडान
सोडलो चारूय दिकांनी
उजवाडा बाण
ताच्या फाटल्यान आयलो
पावसाळ उत्स्फुर्त सांवार
वाटेंतले आडखळींचे बांद
फोडीत गेलो.

## १७. दोंगराचे तेंगशेवेल्यान

मळब उंचायेच्या त्या
दोंगराचे तेंगशेवेल्यान
ताकतिकेन आनी
नेटान धांवपी वाऱ्या वांगडा
मन म्हजें खोल
समदिराच्या तळाक देंवलें
सुर्याचीं किर्णां
निसर्गाच्या मोगान भरून
सामकीं थंडावलीं आनी
सगलो सैमूच मोनो जालो
झिळमिळट्या सुर्याच्या
मंद मंद उजवाडांत
चित्त म्हजें सगल्या
खांची कोनशांनी शिंपडलें
ज्या वेळार तो
उजवाड काळखांत विरगळटालो
तेन्ना ह्या मनाक
सामकें पिशें लागतालें
सपनांत आशिल्ले वरी
संवसार सगळो
गोपांत येवन म्हज्या
नाचूंक लागतालो
त्या देखाव्यांतल्यान
तुजें सोबीत रुपणें पुनव चान्नें
हजार मैल पयसुल्ली
वाट हुपून
आयिल्ल्याचें जाणवतालें
समदिराच्या उसळपी ल्हारांक
सुर्याच्या भांगरा किर्णांनी
सप्तरंगांनी आकार दिवन
सरभोंवतणी शिंवरायलीं
कापसावरी वाऱ्यार हुबतल्या मनाक
तुजे कुडीच्या गर्भांतल्यान
आयिल्लो हुनहुनीत
उस्वासूय जाणवलो
एकमेकाचेर दाळून दवरलेल्यो
तुज्यो यादी एक-एक पान
उस्तीत रावल्यो
त्या यादींतल्यान निसर्गांतलें अमृत
दवाच्या थेंब्यांतल्यान
म्हज्या वोंटांचेर पडत रावलें
आनी म्हज्या जिवीताक
परत चंवर फुटलो.

## ९८. भारत माता

एके रातीं भारत माता
आयली म्हज्या सपनांत
सडसडीत आयली चलून
घडघडीत पावलां वाजयत
उबी रावली म्हज्या म्हऱ्यांत
भगभगतो कवदो जावन
त्या भगभगत्या कवट्याचें
तिरंगी आंगवस्त्र
इंगळ्यां वरी बेसुमार चमकतालें
इतली चमकदार फकत
म्हजी आवयच आसा
इतली सोबीत लावण्यवती
म्हजे आवय बगर
कोण आसूंकच शक्य ना !

पुता, म्हाका वळखली ना ?
तिणें उत्सुकतायेन विचारलें,
माते, तुजी म्हूर्त
म्हज्या काळजांत आसा
तुजी माया म्हज्या
रगताच्या थेंब्या थेंब्यांत
संपूर्ण भरून आसा
माते, तुज्याच स्वरुपाचें
हांव एक प्रतिबींब

तुका वळखुपाची म्हाका
अजिबात गरज पडना
तूंच तर खरी म्हजी वळख
तुवेंच घडयल्ली हांव म्हूर्त
तुवेंच रुजयल्यांत म्हज्यांत
अस्मितायेचीं बियां
तुवेंच करून दिल्या म्हाका
संस्कृतायेची पारख
तुवेंच सांगल्या कथा

जुलमांची आनी स्वातंत्र्याची
बंदेपणाची आनी मेकळेपणाची
जायत्या प्रसार माध्यमांतल्यान
हांवें पळयल्ली तुका
झिळमिळट्या उजवाडांत
दिल्लीच्या राजभवनांत
हात जोडून सगले राजकारणी
तुका होरायताले
तूं तांकां समजायताली
दिताली दिलासो
राज्य चलोवपाचो दिव्य मंत्र

माते, म्हज्या देखण्या गोंयचो
म्हाका हुस्को जाला
दिसान दीस ताचेर
कोसळत आसात अपद्रुश्टांचीं सावटां
हालींसराक तर त्या
इल्ल्याशा भांगराच्या जाग्यांत
दिसपाक लागल्यात
वचत थंय चोरांच्यो टोळयो
फटिंगांचे व्हडले चोंमे
म्हजें गोंय सोबीत जरी आसलें
तरी तें सान आसा
पिरायेन ल्हान आसा.

माते, हांवें आयकल्यात
थंयच्या रानांचेर हावळ आयल्यात
दोंगरांचेर संकश्टां कोसळल्यांत
थंयच्यो न्हंयो व्हाळ
आदले वरी पवित्र सुरक्षीत नात
इल्लें इल्लें करून
तांचीं सुंदर सोबीत रुपां
विद्रूप जायत चल्ल्यांत
गर्दी वाडत गेल्ल्यान
थंयचो मुळावो मनीस
थंयचो मूळ पुरुष
भेंडाचो वालो सोडून
मेळत थंयसर धांवपाक लागलात

माते, गोंयची म्होंवाळ म्होंवाळ भास
निकतीच चंवरपाक आनी
फळपाक लागल्या
तीच खरेली त्या सुपुल्ल्या
अपुर्बायेच्या गोंयची वळख
ती सगल्या आंगांनी
सारकी पुर्णतायेक येयसर
तुजी कृपादृश्टी दवर
तुजेच कृपेन तुजे गोंयकार
एक एक तास जिकत
फुडेंच फुडें सरत आयल्यात
हाचेय फुडें अशीच कृपा कर

आयक म्हज्या पुता,
गोंयचे सुपुल्ले सोबीत भुंयेक
अदीक सोबीत करपाची
आनी विकसीत करपाची जापसालदारकी
आतां तुमच्याच भुजांर आसा
गोंयां खातीर आनी
सगल्या भारता खातीरुच न्हय

तर सबंद विश्वाच्या
वावरा खातीर नवी
सुजाण आनी सुशिक्षीत पिळगी
तयार करपाचीय जापसालदारकी तुमचीच
जेन्ना जेन्ना म्हजी गरज पडटा
तेन्ना तेन्ना हांव
तुमचे कान पिळटलीं
व्हडें योग्य दिशेन व्हरपाक
म्हजें मार्गदर्शन आसतलेंच
इतल्यांत कोंब्यान साद घालो
अस्तुरेची किळांच कानार पडली
म्हाका निदसुऱ्यांच जाग आयली.

## १९. जेजू

जेजून केन्नाच जल्म घेतलो ना
तो सरळ सर्गांतल्यान देंऊन आयलो

जेजू आमचेमदें जियेलोय ना
ताणें फकत जीवितांत प्रवेश केलो

जेजू केन्ना कितें उलयलोच ना
कृतीन पातळायलो संदेश रचणाऱ्याचो

जेजून कसलेंच केन्ना अजाप केलें ना
मात कळयलो अर्थ देवाचे कृपेचो

जेजून वेगळें कांयच शिकयलें ना
जागयलें मनीसपण मनशा भितरलें

ताणें चाळीस दीस उपवास केलोच ना
पूण जेवणा[illegible] चाळीस दीस तिश्टयले

ताणें केन्ना कोणाचोच मार घेतलो ना
पूण हिंसेक अहिंसेची वाट दाखयल्या

जेजून खांदार खुरीस घेतलोच ना
पूण आमच्या खुरसाचो भार देंवयला

जेजू कालवारीचो दोंगर चडलोच ना
तर आमच्या पातकांच्यो राशी माड्डयल्यात

जेजूक खुरसाचेर कोणेंच खिळायलो ना
पूण अनऊपकारपणांक खिळायला

जेजू खुरसाचेर मरूंक ना
अमरान मरणाचेर जैत जोडला

जेजूक खुरसावेलो देंवयलो ना
ताणें खुरसांतल्यान अस्तित्व देंवयला

जेजूक फोंडांत केन्नाच पुरयलो ना
फोंडांत बेभरवंशाक अंधश्रध्देक पुरयल्या

जेजू केन्नाच जीवंत जालो ना
तो अमर केन्ना मेलोच ना

जेजू केन्नाच परतून येवपाचो ना
तो मनशांतलो केन्ना गेलोच ना

जेजू खऱ्यांनीच अमर थल्ला
तें देवाचें प्रतिबिंब मनशांत विलीन जालां.

## १००. नातें

काळजा हात लावन सांगतां
म्हजें आनी तुजें नातें
जशें दोळ्यांचें नदरेकडेन
जिबलेचें उतरांकडेन

कानांचें सुरांकडेन
पावलांचें रस्त्याकडेन
कुडीचें जीवाकडेन
रातीचें दिसांकडेन

चंद्राचें सुर्याकडेन
उदकाचें धर्तरीकडेन
संवसाराचें समयाकडेन
मळबाचें विश्वाकडेन

वाणयेचें गळ्याकडेन
प्राणाचें वाऱ्याकडेन
जिणेचें जगपाकडेन
मरणाचें सरणाकडेन.

## १०१. फुल्लीं फुलां

मनांत म्हाज्या फांतोड
काळजाच्या वीशाल मळार
निरामय दोळे मोडीत
रंगयाळीं फुल्लीं फुलां ।।धृ।।

अमृताचो घोंट घेवन
सरभोंवतीं परमळ फांकीत
शारां गांव घरांनी
उर्बेभरीत फुल्लीं फुलां ।।१।।

मनाक म्हज्या पिशें लायत
काळजाचें गीत कशें
हुतहुतें मन आतां
आपले भितर भावूक जाला ।।२।।

जिणे पींड प्रकाशान
चानुल्ल्या उजवाडान
कणान कण आतां हांगा
उपनंदान भरून गेला ।।३।।

फांतोडेच्या मंद किर्णांनी
खोशयेच्या तरंगांनी
अणभवाच्या म्हासागरांत
सगळी जीण न्हावन गेला ।।४।।

## १०२. दोरी तुटिल्लें शीड

कर गा सायबा अजापां
गरिबांच्या घराब्यांचेर
घाल तुजी माये नदर
निराधारांच्या खोमट्यांचेर
चिमटी मारून दी गा सायबा
कृपा तुज्यां किर्णांची
मोग आमकां शिकय सायबा
जीण जावंक सुखाची
बोट लावन पेटय सायबा
नदर आमच्या दोळ्यांची
फूंक मारून हुबय सायबा
तनरी अंधश्रध्देची

आशे पड्डो पिंदून वडय
आशेभगत काळजावेलो
एकूच दिवो पेटय सायबा
सरळ आमच्या मार्गावेलो

पाव गा सायबा पाव आतां
काकूळट कर हे रचणेची
व्हडी म्हजी लाय तडीक
दोरी तुट्ल्या शिडाची.

## १०३. चल गो शेंवत्या

चल गो शेंवत्या शारांतू
हात घालून हातांतू
गावया नाचुंया वांगडा आनी
दीस घालोवया मजेंतू

चल गो शेंवत्या मळ्यांतू
गळो घालून गळ्यांतू
संवसार आमी सारको पळोवया
मन घालून मनांतू

चल गो शेंवत्या शेतांतू
पावल घालून पावलांतू
जोत घालून शेत कसुंया
बियां ओंपूय तासांतू

चल गो शेंवत्या कोटांतू
बोट घालून बोटांतू
चान्न्या रात सारुंया आमी
व्हडल्या व्हडाच्या मुळांतू

## १०४. रितो घोटेर

म्हाज्या पोरसांतल्या
दसणेच्या झाडावेल्यान तूं जेन्ना
तुजो घोटेर सोडून
पिलांक घेवन उड्लें
पाखां फडफडायत उकत्या मळबांत
तेन्ना देंवल्यो म्हज्या दोळ्यांतल्यान
दुकांच्यो हुनहुनीत पांवळ्यो

आतां म्हाजें दुखणें
चडात गेलां
तकलेंतलें आशिल्लें नाशिल्लें
सगळें पिसावत गेलां
हांव विसरतलों स्वताक
तुमचें बाबळेंपण पळोवन
हांव विसरतलों म्हाका असाध्य करपी
म्हजे कुडीच्यो असंख्य वेदना
तुमच्या मोगान भरिल्ल्या
त्या सुपुल्ल्या घोटेराक पळोवन
एकमेकाच्या मोगान पाझरपी
तुमच्या काळजांतले झरे पळोवन
सतत आमचे वाटेकडेन
एकसारकीं दोळे लावन बसपी
त्या सानुल्ल्या पिलांक पळोवन

म्हजें आसा व्हड्लें घर
राजाले पलाशी वरी
तातूंत आसातालो बोवाळ
हांसपाचो - रड्पाचो - खेळपाचो - नाचपाचो
हांव भुल्लुसतालों म्हजेच भितर
तें भुरगेंपण पळोवन
काळांतरान सगळीं गेलीं
भुर्रर- भुर्रर करून उडून
आपआपले दिकेन.
म्हाका एकमुळोच सोडून

दसणेच्या झाडावेलो घोटेर
पळेतात तुमची परत
घोटेरांत येवपाची वाट
असह्य जालात ताकाय
ताचें रिकामेंपण एकमुळेंपण
आतां तर ताचो हळूहळू
गळसरपाक लागला एक एक सांदो

दसणेचें झाड सामकें पालेल्ला
भेंड्पाची इत्सा आसूनय
हांवें तें भेंड्लें ना
फुड्ल्या मोसमांत येवन
तूं नवो घोटेर बांदतलें म्हूण
पूण तूं परत येयसर
पूण शेवण्या,
तो शुभदीस दोळे भरुन पळोवंक
हांव उरत मूं?

## १०५. सपन

राव आनीक मात्सो
जागो जायनासतनाच राव
ह्या सपन संवसारांतलो तूं
इतले बेगीन भायर सरल्यार
सगलेंच अर्धार उरतलें
हें सपन तुज्या
फाल्यांच्या दिसाचो मदलो दरवाटो
ह्याच दरवंट्यांतल्यान तूं
रणमैदानाचेर देंवापाचो आनी
ह्याच दारवांट्यातल्यान
आपल्या म्हालांत वचपाचो

तुवें आतां पळयल्लो देखाव म्हळ्यार
काल दनपारां
जेवतासतना केल्ली कल्पना
सपनेल्लें सपन म्हळ्यार,
तुज्यांत लिपून आशिल्ल्या सत्याचें
आनी अस्तित्वाचें गुपीत
तें गुपीत
चकचकीत धारेचें शस्त्र जाता
आनी तुका आपले धारेचेर बसोवन
मुखावेल्या प्रवासाक व्हरता
आनी भरयता प्रदर्शन
सभेमुखार आपले हिकमतीन
तेन्ना आंक्रेक येता
तुजो प्रत्येक हावेस

सपन जरी एक मनभुलावणो
अदृश्य अनवळखी रूपकार
पावलांची खुणा नासलेली
आसून लेगीत नासलेली पावूलवाट
ते पेट्यतात सुरींग
तुज्यांतल्या चैतन्याचे
आपल्याक जाय तेन्ना

आपल्याक जाय तेन्ना
करतात तुका भाटां भेंसाचो धनी
आनी आपल्याक जाय तेन्ना
भोंवडायतात हातांत दिवन भिखेकट्टी
खिणाभितर वाऱ्याक हुबयता
मळबांत सर्गार लेगीत पावयता
सर्गाचे उंचायेर सावन
आपटिता सकल धर्तरेचेर
तरी लेगीत तूं वाटावता

सपन एक धाड्शी प्रकार
तूं एकटो लेगीत
उड्की घालून म्हाझ्झुजांत
धूप करता आख्ख्या दुस्मानाच्या सैन्याचो
कांय पावट तूं करता वेव्हार
सपनाच्या पड्ड्यार पळयलेल्या सपनाचो
कांय पावट जशें पळयल्लें
ज्युस्त  तशेंच घड्टा
तरी लेगीत सपन
हें फकत सपन आसता
यादींच्या पड्ड्याचेर पळयल्लो सिनेमा

## १०६. किरवंट

ही कविता म्हजे मावशभयणीक सर्गेस्त मावराक अर्पितां

एक दीस ईश्र्वरान
आपली किरवंट सोड्यली
किरवटींत आशिल्ल्या जिवांतले
चिमटीभर जीव काड्ले
आनी आत्मे जावचे खातीर
सर्गभुंयेर अचळय शिंपडायले
मागीर त्या जिवांतलो जालो
एकान एक आत्मो

संवसारांत वचचे खातीर
तांकां सगल्यांक दाखयले रस्ते
खंयच्या गांवांत, खंयच्या कुसव्यांत
खंयच्या खिणांक कोणें वचचें
हाचें केलें मार्गदर्शन
मागीर फूंक मारून हुबयले वाऱ्यार
एकान एकल्याक

सोडून एकलो एकोडो आत्मो
बाकीचे सगले अवतरले धर्तरेचेर
ईश्र्वराच्या आदेशाक मान दिवन
रिगले आपल्या आपल्या जाग्यार
पूण थंय राविल्ल्या आत्म्यान
खरपणान केलो विरोध
ईश्र्वराच्या आदेशाचो

तेन्ना थंय मुख्येल्यान म्हळें,
सदांच याद दवरची
तूं निर्मणी परमपित्याची
तूं एक बियाणें ताणें इत्साशक्तींतलें
ताचो हुकूम मोड्चो न्हय
ही चाल रचणेन मांदपाची
आत्म्यान तेका जाब दिली

परमपित्याचो नियम आसा
पातक करचे पयलीं कोणाक
ख्यास्त फावो करची न्हय
परमपित्यान केल्लो नियम
स्वता तांणेंय मोड्चो न्हय

इतल्यान थंड आयली चलून
एकली सामकी जाणटेली
आनी समजावणेच्या स्वरांत म्हळें,
ईश्र्वरान धाडल्या जाल्यार
वच पुता तूं संवसारांत
तुज्या सगल्या प्रश्नांचें जाळें
तो आपूण जावन सोड्यतलो

हय गे माते, खरें तुजें
एकच उतर आयक म्हजें
चुकी पयलीं कोणेंच कोणाक
ख्यास्त भोगूंक लावंनये
निर्मित्यान जे केल्यात नियम
स्वता ताणेंय मोडूं नये

एक पावट एका जिवाक ताणें
एके आंकेवोरच्या कुस्व्यांत
मनीस जावचे खातीर
धतरेचेर पाटयलो
आनी थंयसर ताका
त्या बाबड्या निरपराध जिवाक
आकांताची ख्यास्त दिवन
तड्फड्य  तड्फड्य म्हूण  तड्फड्लो
मागीर तो सोपतकच
ताचे आवयचें कितें जालें
ती कोणाच्या दारार पावली ?
तुमकां खबर आसा व्हय?

ईश्र्वराचें गुपीत ईश्र्वर जाणा
हांवें जें समजावपाचें तें
तुका समजाव[illegible]लें
तुज्या मनांतलें आतां [illegible]वें
ईश्र्वराच्या मुखारूच
उक्तें करचें पड्टलें

जाल्यार सांग माते
ताचें दर्शन म्हाका कशें जातलें ?
तेन्ना तिणे म्हळें,
थोड्या वेळान एक कीर्ण
तुजे नदरेक दिसतलें
तेंच कीर्ण तुजेकडेन  उलयतलें
थोड्या वेळान
मातेन सांगिल्लें तशेंच  घड्लें

हांव  तुज्या मुखार हजर आसां
कितें विचारुंक  जाय ?
ईश्र्वराच्या किर्णा मुखार
घातलें ताणें लोटांगण
आनी विचारीत रावलो
एकार एक प्रश्न –
म्हज्या परमईश्र्वरा,
कित्याक म्हूण म्हाका तुवें
भोगणार भोगूंक वेंचून काडला ?

जे  कुडींत हांव प्रवेश करतां
ती कूड अपंगाची
अर्दीकच्ची नदर डोळ्यांची
अर्दीकच्ची तांक कानांची
तकलेवेल्यान सांबाळूंक जावचो ना
तोल ताचे अगड्‌बंब कुडीचो
जिबलेकूय हुकूम आसचो ना
एका साद्या उतराचो
केन्नाच उपयोग जावचो ना
ताच्या निर्मळ हातांचो
कित्याक दिता म्हाका सायबा
भेस अपंग कुडीचो ?

जिवीतभर मार खायत दुसऱ्याचो
उतरांचो आनी थोमण्यांचो
श्राप, त्रास घरच्यांचो
दिल्यारूच हांवें जेवपाचो
एक गोटो  शिताचो
ना तर उपास पोटार रावपाचो
मरतना  मरण लेगीत उपाशींच
नासतना थेंबोय वखदाचो
असो कित्याक जावचो भेस
म्हज्या देवा एका प्राण्याचो ?

हांव जीव तुजे किरवंटीतलो
किरवंटीतल्यान काड्टासतना
तुजे चिमटेंत चिड्डून
बोटाच्या आंगट्याक घट्ट चिकटल्लो
प्रामाणीकांतल्या प्रामाणीकांतलो
हांवें तुजी किरवंट भश्टायल्या व्हय?
तुजी नदर चुकयल्या व्हय ?

जापे खातीर तो
ईश्र्वराक पळयत रावलो
हाचें आतां कितें करचें
असो ईश्र्वराकय प्रश्न पड्‌लो

## १०७. हांव कोण?

कोण म्हण्टात म्हाका
हांव खंय आलतडचो
तर कोण म्हण्टात पलतडचो
न्हय म्हूण हांव आलतडचो
न्हय म्हूण पलतडचो
हांव मांड्वी आनी जुवारीचें
निसर्गीक मिलन जाता
ते शिमेवेलो जल्मी

कोण म्हणटात म्हाका
हांव खंय बाटको
जल्माचो धड हिंदूय न्हय
आनी धड क्रिस्तावूंय न्हय
खरें सांगचें जाल्यार
मनीसपण म्हजो धर्म
मनीस म्हजो देवारो
सत्य म्हजो देव
असत्याचे गोंवटेक धरपी
नास हांव नास

कोण म्हणटात हांव खंय
भरवंशाचो मनीस न्हय
कोण म्हणटात हांव खय
सामको भरवंशाचो मनीस
खुर्चे खातीर नाडेपेन्नां करतल्यांचीं
नाडेपेन्नां पळोवपी हांव एक प्रेक्षक
विस्वासा खातीर
दुस्वासाच्या भेंडार खोंट घालपी
हांव एक गुंडास्वामी

सावय- वेरेंच्यान
न्हंय हुपून आयिल्लो मनीस हांव
शांतादुर्गेक आलतडी हाडून
तिचो राखणेची जापसालदारकी
खिकारलेलों हांव राखणदार
तिचे खातीर सोबीत सुंदर
किटल तयार करपी
प्राण्याच्या वंशाची मिरास

देवळाचे तेंगशेवेल्यान
खुरसाचे तेंगशेर पावतना
म्हज्या समाजाचो मोग
माडाच्या कवळांतल्यान
गायत वयतात गा वोंट म्हजे
घुमतात दिगंतरानी
आमच्या एकचाराचें गीत

कोण म्हणटात म्हाका
हांव खंय भोंवडेकार
खिणांक हांगा जाल्यार
खिणांक आनी खंय
हांव काळजार हात धरून सांगतां
जंय कोंकणी थंय हांव
ते कोंकणीच्या काळजांत म्हजो गांव
नाकात म्हाका दुराचार
नाकात कसले भेदभाव
म्हज्या मोगाच्यांनो, तुमीच तर
सगलीं म्हजीं भयणी- भाव
तुमी दायज म्हाज्या काळजाचें
तुमी जैत म्हज्या भावनांचें
कोण म्हणटात म्हाका
हावं खंय हेड्गो
कोण म्हण्टात हांव
निजाचो कोंकणी प्रेमी
कोंकणीनूच दिला म्हाका धीर
म्हणूनच तर हांव आजूनय
आसा एका जाग्यार थीर
एकाचार खातीर घाम गळोवपी
हांव निजाचो शेतकार
कोंकणी सरस्पतीच्या पायांकडेन
स्वताक ओंवाळून वडोवपी एक भक्तसार
दुधसागराचो सांवार वझरो
मांडवी आनी जुवारीवेल्यान आयिल्लो
खारट खारसाट वारो
म्हज्या कार्या खातीर
क्रिस्ताचें उतर आसा
कृष्णाचें चक्र आसा
रामाचो बाण आसा
बापायची कुदळ आसा
आवयचो विळो आसा
हातांत नांगर धरूंक
भुंयेर म्हजे पांय आसात
उतरांची रास आसा
मोगांत तुमच्या बुड्पा खातीर
हड्ड्यांत एक काळीज आसा
आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार
गोंयचे म्हजे मातयेंतले
कवितेची सासाय आसा

## १०८. चोरी

ते अरुंद बिंदींतल्यान वतना
घुस्मट्टलो जीव वाऱ्या खातीर
बिंदींतल्या निमण्या तोंकाक पावतकच
आपशींच थांबलीं पावलां
पळोवन एक देखाव
रंगभुंयेवेल्या  एका नाट्काचो

एक सात वर्सां पिरायेचें चली
कपड्यांचें नाशिल्लें धड
हातांत घेवन ताटली
थेट कुंटत चलून
म्हज्या म्हऱ्यांत आयली
आनी म्हाकाय आस्पावन घेतलो
त्या नाट्काच्या देखाव्यांत

कुटत कुटत आयिल्ले ते
चलयेच्या पोल्यांचेर
देंवतानाच सुकलेले दुकांचे थेंबे
म्हजा म्हऱ्यांत उबें रावन
मोन्यांनीच मुखार केली
आपल्या हातांतली
बोंते पड्लेली ताट्ली
तिचे घारसुले बाबडे दोळे
पाविल्ले कपलाचे खोलीक
उतरांत नाशिल्लें त्राण
पोटाचे भुकेन भगतालें होमखण
वळवळटालो प्राण

त्या दिसा म्हज्याय हातांत
नासली एक  लेगीत दमडी
ते चलयेचे ताट्ले वरी
म्हज्याय बोल्साक पड्लेले बोंते
ताका थंयच राव म्हूण सांगून
धांवलों लागींच आशिल्ल्या दुकानार

मागलें इल्लें उदक आनी
ल्हवूच चोरलो एक उंडो
म्हजी  जिवीतांतलो हांवें केल्लो
हो पयलोच चोरयेचो अपराध हो

परत धांवत आयलों
ते चलये म्हऱ्यांत व्हड उमळशिकेन
पूण हांव पावचे पयलींच
पडलेलें दिसलें ते धर्तरेचेर
उद्‌क फाफुड्‌लें दोळ्यांचेर
पाजोवपाचो केलो प्रयत्न
पूण पाजयल्लें उदक
देंवना जालें गळ्यासकल
बंद पाडल्यान ताचे कुडीची
सगळी यंत्रणा
हांव मात खूंट कसो थंयच उबो
येवजीत आनी पळेत
इतल्या व्हड अन्नदात्याच्या संवसारांत
भुकेन वळवळत मेल्लें
मरण एका सान बायचें
एक तिका जावचे खातीर
ताच्या कपला
देंवले आनी थांबलें
एक एकसुरेंच
दूक म्हज्या दोळ्यातलें !

## १०९: मौनपण

हांव उलयतलों मौनपणान
मौनपणान उक्तायतलों व्यथा
बरयतलों पुस्तकाचें पानान पान
आनी दवरतलों समेस्तां मुखार
एका शिड मोड्लेल्या व्हड्याक
दर्यांत ल्हारांचेर घुवांड्यो काडच्यो पड्टात
मागीर ते बुडटा
ल्हारांचे धपके खायत
ना तर लागतात खंयचे तरी तडीक
कोण नाशिल्ल्या बेवारशावरी
म्हज्याय काळजाची तुटल्या दोरी
आनी काळीज जाला सैरेभैर
त्या व्हड्या वरी

हांव गायतलों मोनेपणान
एकलेपणाचें निर्माण जाल्लें खोल
पोखलेच्या दुखण्याचें दुखेस्त गीत
गायतना हांव रड्ट्लों
म्हज्या दोळ्यांतल्यान देंवतलीं दुकां
म्हज्या वांगडा दुसऱ्या कोणेंच
दुखी जावप वा रडप ना
हांव जातलों खंती
पूण म्हज्या वांगडा कोणेंच
खंती जावपाचें ना

हावं मारतलों हुयेली मौनपणान
एका काळार मारिल्ल्यो
गळ्यांत म्होंवापरस उंचेली म्होंवाळसाण
आतां साकरेपरस  उंचेली गोड्साण आसताना
तेन्ना गायतलों संवसाराच्या एकचारपणाचीं
आनी मनशांच्या मनीसपणाचीं गितां
उतरांच्या आदारान आनी
उस्पतलों काळजांतलें सगलें बरें-वायट
मनोरंजनांच्या माध्यमांतल्यान

हांव मारतलों आड्ड्यो मौनपणान
म्हज्या गळ्यांतली वाणी सांडल्या
वाणयेंतलीं उतरां सांडला
उतरांतलो अर्थ सांडला
अर्थांतलो सार सांडला
सारांतलो संवसार सांडला
संवसारांतले स्वर सांडल्यात
अनवळखी प्रवासाचे  वाटेर

हाव मागतलों मौनपणान
पायां पडून हात जोडून
म्हज्या गळ्यांतल्या स्वरांक पुनर्जल्म

## ११०. उमाळे

आयच्या दुखींक पेलपा खातीर
कालच्या सुखाची याद बरी
काळख्यी संवसाराक उजवाडावूंक
हांशाचिं कीर्ण पेटय एक तरी

तुज्या आत्मविस्वासान
उखल पावल येशा दोंगरा वाटेन
कश्ट कशेच सोपचे नात एका दिसान

तूं सोदीत आसाय रे नासलेल्याक
आसलेलें तूं व्हगडावून बसलाच
तुजे माणकुलेपणाचें हांशें
संपुर्णतायेन तूं विसरून बसताय

आशेचे नशेन्तूं गुल्ल जालाय
येलान बांदूंक नासलेली गांठ सोडपाच्या
तुजच गोमटी भोंवतें फांस बादला
फाट केल्या रस्त्याक मनीपणाच्या.

## १११. म्हज्या श्रीकृष्णा

म्हज्या मस्तकाचें श्रीफळ म्हज्या श्रीकृष्णा
हांव तुमकां भेट्यतां
म्हज्या श्रमाचें मोल म्हज्या श्रीकृष्णा
तुकाच अर्पण करतां
म्हज्या जीवाची पण्टीय म्हज्या श्रीकृष्णा
तुज्याच पायांकडन दवरतां
म्हजे कुडीचो एकान एक सांदो
तुज्याच नांवांन लोकार्पण
तुज्या तेजाचे एके किटीन
कर म्हाका प्रकाशमय
म्हज्या मनाची सतार म्हज्या श्रीकृष्णा
तुका जाय तशी वाजय
तुजे मुरलीचो नाद म्हज्या परमसत्त्या
म्हाका दान दी
म्हज्या आत्मतेजा म्हजी जीवन यात्रा
तुज्या नांवांक समर्पण,
समर्पण तन–मन–धन.

आयक म्हज्या श्रीकृष्णा
तुज्या लागीं म्हजी एकूच विनंती आसा
म्हज्या जिवीताचे वाटेर
हांव आतां सर्व वाटानी थकलां
त्याखातीर आतां उपकार करुन
क्रिस्ताचो अवतार घेउन येउन
म्हज्या कश्टांच्या खुरसाक
मातसो खांद मारशी
म्हज्या श्रीकृष्णा ?

## श्री.जॅस फेर्नांदीश

6 सेतेंब्र, 1941
पाळोळेच्या सैमसोबीत वाठारांत
जल्मलो अथांग दर्याच्या
आनी उगत्या मळबाच्या हावेसाचो मनीस-
जॅस फेर्नांदीश

मुळावें शिकप-लिसेवाचें सातवें वर्स
इंग्लीशींतल्यान बी.ए.
आनी सेनीटरी इन्स्पेक्टर कोर्स.

पुर्तुगीज मुळावो शिक्षक
आनी सर्वेयतांस इन्स्पेक्टर
म्हूण सुरवेचो वावर
उपरांत सरकारी भलायकी खात्यांत
सेनीटरी इन्स्पेक्टर म्हूण नोकरी
................सद्याक बसपगारी !

कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट,
कोंकणी भाशा मंडळ-गोंय, लेखक संघ
हया संस्थांचो जिवीत काळाचो वांगडी.
कोंकणी चळवळींतलो एक निश्ठावान सवंगडी.........

लिखणेची सुरूवात धाव्या वर्सा
पुर्तुगीज, इंग्लेश आनी कोंकणी
दिसाळीं,नेमाळीं, आकाशवाणी आनी दुरदर्शन
आदीं माध्यमांतल्यान घडलां तांचें साहित्यदर्शन...........

तियात्र, खेळ-तियात्र, नाटकां आनी एकांकिका-
बरोवन हाडल्यात पालकार.........भावल्यात रसिका.......

बरोवन कथा,कादंबरी-
भरल्या कोंकणी साहित्याची तिजोरी....................
तांच्या साहित्याचो आस्पाव जाला पाठयपुस्तकांनी
आनी साहित्य अकादेमीच्या प्रातिनिधीक संग्रहांनी......

तांच्या साहित्याक,
कथा,कविता,मांडयागीतांक,तियात्रांक,नाटकांक
फावो जाल्यांत इनामां
तांणी जोडल्या मोटी नामना............

ख्रिस्ती धर्मग्रंथांचो केला तांणी अणकार
शिवाय ते एक पत्रकार आनी चित्रकार
फा.थॉमास स्टीवन केंद्राचो तांकां लाबला
प्रतिश्टेचो जेजवीत आंतोन पेरेर पुरस्कार.

अनंत अग्नी

माणीक प्रकाशन